# कोंकणी बालगितां


संपादपी -

१) बी. श्यामला कुमारी

२) डॉ. आय्. एस्. बोरकार













* भारतीय भाषा संस्थान

मानव संसाधन - विकास मंत्रालय भारत सरकार

मैसूर - 570006

आनी

* राज्य शिक्षण संस्था

आल्त पर्वरी, गोंय - 403521

# कोंकणी बालगितां

संपादपी :

बी. श्यामलाकुमारी

डॉ. आय. एस. बोरकार



भारतीय भाषा संस्थान

मानसगंगोत्री, मैसूर ५७०००६

आनी

राज्य शिक्षणशास्त्र संस्था

आल्त पर्वरी - गोंय ४०३५२१

# Nursery Rhymes in Konkani

Editors : **B. Shyamala Kumari**

**Dr. I. S. Borkar**

First Published : **1996**

Publishers : **Central Institute of Indian Languages**
Manasgangotri, Mysore

&

**State Institute of Education**
Alto Porvorim, Goa

Printed by :

**Samrat Printers,**
Banastarim, Goa. Phone : 287755, 395220

# मोलादीक सहभाग

मोलादीक सहभाग -

भारतीय भाषा संस्थान (मानव संसाधन विकास मंत्रालय, शिक्षण खातें, भारत सरकार) मैसूर हे संस्थेन मार्च १९९६ त आयोजीत केल्ल्या कार्यशाळेंत हो बालगितांसंग्रह तयार केला.

ह्या मोलादीक वावरांत वांटो घेवपी फुडें दिल्लेप्रमाण आसात.

१) देवकी दुकळे (गोंय)

२) झीलू गांवकार (गोंय)

३) सुनिल पालकार (गोंय)

४) भरत नायक (गोंय)

५) तुकाराम शेट (गोंय)

६) स्मिता तांबा (गोंय)

७) विनंती कांसार (गोंय)

८) फिलोमिना फेरनांदिश (गोंय)

९) रामकृष्ण जुवारकार (गोंय)

१०) आनंद वर्टी (महाराष्ट्र)

११) जयश्री नायक (कर्नाटक)

१२) डॉ. स्नेहलता शरेशचंद्र (कर्नाटक)

१३) ॲन्सी डिसोझा (कर्नाटक)

१४) एम. जयंतीबाई (कर्नाटक)

१५) आर. एस. भास्करन (केरळ)

१६) पी. जी कामत (केरळ)

१७) मनोहर कोरगांवकार (गोंय)

संकल्पना आनी वेवस्था

**१) बी. श्यामलाकुमारी २) डॉ. आय. एस. बोरकार**

# मांडावळ

# प्रस्तावना

भुरगें बरोवंक लागचेपयलीं जशें बिरबिटांवक लागता, तशेंच भाशेचे ध्वनि उच्चारचे पयलीं तें भास उलोवंचे आवाज काडटा. चित्र काडप म्हळ्यार जशें बरोवप न्हय तशेंच गावप म्हळ्यार उलोवप न्हय अशें आसलें तरी भाशेविशींच्या तालबद्द आवाजांची निर्मणी करपाक गायनाची मजत जाता. भाशेपयलींची बडबड आनी भास-संपादन हांचेमदीं बालगितां येतात. बालगितां गावप म्हळ्यार शालेय जीवितापयलींचो अणभव आनी अभ्यास आनी हो अभ्यास भुरग्याक शाळेखातीर तयार करता. भुरग्याक शाळेखातीर तयार करपाक गरजेच्यो अशो चित्रकलेच्यो साक्षरतापूर्व कुशळतायो आनी हीं बालगितां ह्यो दोनूय गजाली सारक्योच.

भारतीय भाशांनी व्हडल्या भुरग्यांखातीर जायतें साहित्य उपलब्ध आसलें तरी बालगितांचेर चडशें ध्यान दिवप जावंक ना. जायते फावट इंग्लेज भाशेंतलीं बालगितां खासाकरून शारांतल्या मध्यम वर्गीय घरांत हो उणाव भरून काडटात आनी इंग्लेज माध्यमाच्या बालशाळांनी हाका चड वाव मेळटा. समाजांत वावुरपाखातीर आपले आवयभाशेचे आवाज अणभवप आनी शिकप भुरग्याक गरजेचें. हो अणभव म्हळ्यार आपले भाशेचो मोग निर्माण जावपाचो पयलो पावंडो.

मुळाव्या आनी बालशाळांनी आशिल्लो इंग्लेज माध्यमाचो खर प्रभाव ना करपाखातीर भारतीय भाशांनी बऱ्यांतल्यो बऱ्यो बालशाळा तयार करप भोव गरजेचें. कायद्यान उपाय करचेपरस हो उपाय चड परिणामकारक जातलो. भारतीय भाशांतलीं बालगितां असल्या बालशाळांचो एक म्हत्वाचो भाग जातलो.

हें सगळें मतींत धरून ही संस्था सृजनशील बरोवपी, भाशेचे शिक्षक आनी भाशातज्ञ हांचीं कृतिसत्रां घेवन, आदिवासी भाशांसयत जायत्या भारतीय भाशांनी बालगितां तयार करता. आमचे भशेनूच ह्या सगळ्या बरोवप्यांक हांतुंतल्यान एक खोस दिवपी आनी उपेगी अणभव मेळटा. व्हडा उमेदीन आनी निश्ठेन, तशेंच भुरग्यांविशींचे आनी भाशेचे लागणुकेन तांणीं ह्या कृतिसत्रांनी शेंकड्यांनी बालगितां रचल्यांत. हो पुराय संग्रह म्हळ्यार शिक्षकांक तशेंच पालकांक एक गितां-भांडार तशेंच साधन ग्रंथ जावं येता. भुरग्याच्या हातांत दिवपासारकीं सोबीत चित्रांचीं, वेंचिक आनी ल्हानशीं, बालगितांचीं पुस्तकां तयार जावंचीं अशी आस्त आसा. ह्या छापील पुस्तकासांगाताक ध्वनि-केसेटी तयार जातल्यो असोय आमकां भरवंसो आसा.

ह्या पुस्तकांतल्या कोंकणी बालगितांनी भुरग्यांच्या जिवितांचीं शक्यतों सगळीं मळां आसपावतात. ह्या गितांचें घरांघरांनी, शाळांनी तशेंच रस्त्याचेर लेगीत गावप जालें जाल्यार आमकां भोव खोस जातली. भारतीय भासो फुडें वाडीक लागच्यो ह्या इराद्यान त्यो भुरग्यांचे मतींत रूजोवंक हें एक म्हत्वाचें पावल जातलें.

**फ्रांसिस एक्का**
डायरेक्टर,
**भारतीय भाषा संस्थान, मैसूर**

**मैसूर,**
**३१ मार्च १९९६.**

# निवेदन

भारतीय भाषा संस्थान, मैसूर हे संस्थेच्या पालवान गोंयांत कोंकणी भाशेच्यो कांय येवजणी चालीक लायिल्ल्यो आसात. हातूंत सरकारी कचेऱ्यांनी लागपी उतरांची वळेरी तयार करप, कोंकणी भाशेंतल्यान सरकारी कचेऱ्यांतलें काम चलोवपाक लागपी चिटीचे नमुने तयार करप हांचो आसपाव जाता.

गोंयचे राज्य शिक्षणशास्त्र संस्थेन भारतीय भाषा संस्थेच्या पालवान फाटल्या वर्सा "कोंकणी चित्र उतरां कोश" तयार केला. ताचो लाव जायत्या कोंकणी भास शिकप्यांक जातलो हातूंत दुबाव ना. ह्या येवजणींभितर आज आमी आनी एक पावल फुडें उडयतात.

कोंकणी भाशेंत जायतें साहित्य तयार जायत आसा. तांतूंत बालसाहित्यपसून खूब व्हडा प्रमाणांत तयार जाता, पूण ह्या बालसाहित्याभितर बालगितां मात जाय तितलीं तयार जायनात. ताका लागून शिक्षणाच्या सामक्या पयल्या पांवड्यावयल्या भुरग्यांक शिक्षणाची गोडी लावपाक आमी मातशे फाटीं उरतात. हें मतींत घेवन राज्य शिक्षण शास्त्र संस्थेन भारतीय भाषा संस्थान, मैसूर हांच्या पालवान हो कोंकणी बालगितांचो संग्रह तयार केला. आनी तो उजवाडाक हाडिल्लो आसा.

कोंकणी भाशेंतल्यान चलपी बालवाडयो आनी आंगणवाडयो हांकां ह्या बालगितांचो खूबच बरो फायदो जातलो हांतूंत दुबाव ना.

हो कोंकणी बालगितांसंग्रह तयार करपाच्या कामांत ज्या कोंकणी बरोवप्यांनी मोलादीक वावर केला तांचे, तशेंच भारतीय भाषा संस्थान, मैसूर हांचे आमी खूब उपकारी आसात.

**मु. वा. जोशी**
डायरेक्टर,
**राज्य शिक्षणशास्त्र संस्था**
**आल्त पर्वरी, गोंय.**

**गोंय**
**२२ जुलय, १९९६**

# वळख

आपल्या भुरग्यांक वेवसायीक शिक्षणसंस्थांनी प्रवेश मेळचो, जावं तांकां सरकारी सेवेंत दाखल करचें वा भोवराष्ट्रीक कंपन्यांनी चाकरी मेळोवन दिवंची अशी एकसारकी चिंता करून शारांतले पालक आपल्या भुरग्यांचें भुरगेपणूच नश्ट करतात, जाल्यार खेड्यांतले पालक खर अर्थीक दबावाक लागून जावं अज्ञानाक लागून तीच चूक करतात. इंग्लेज शिकप म्हळ्यार जैताचो निश्चीत पांवडो अशी चुकीची कल्पना करून शारांतले पालक आपल्या भुरग्यांचेर, तांचे लुडबे उलोवंचे पिरायेपसुनूच इंग्लेज उलोवपाची, शिकपाची आनी ते भाशेंत गावपाची सक्ती करतात तर खेड्यांतल्या पालकांक अर्थीक परिस्थितीक लागून आनी अज्ञानाक लागून आपल्या भुरग्यांची खरी खोस कित्यांत आसता हाची नात नासता वा तांचेर ध्यान दिवंक तांकां वेळूय नासता. स्वतंत्रताय मेळतसावन तरातरांच्या येवजणींवरवीं आवयभाशेच्या माध्यमांतल्यान मुळाव्या शिक्षणाचें सार्वत्रीकरण करची कल्पना वेवहारांत हाडचो वावर आमच्या देशांत चल्ला. हें नदरेंत दवरून हे संस्थेन उतरांसंपत वाडोवप, संभाशणांत प्रगति सादप, संकल्पना घडोवप, बालगितां, खेळ, काणयो अशे तरेचें पूर्व प्राथमिक मळावयलें भास - विकास साहित्य निर्मुच्यो जायत्यो येवजणी चालीक लायल्यात. तांतूंतूच सगळ्या प्रादेशीक तशेंच आदिवासी भाशांनी बालगितां रचणुकेचो आसपाव जाता.

सर्वसादारणपणान दर एका भुरग्याक एकाद्रें गीत वाचून वा गावन दाखयलें जाल्यार तें आयकूंक आनी तें आयकून परतून परतून म्हणूंक आवडटा. ताच्या अर्थाचें जावं तांतूंत दिल्ल्या संदेशाचें ताका व्हडलेशें पडलेलें नासता. भुरगी फकत आयकल्लीं गितां परतून परतून म्हणटात आनी जर तांकां तांतलीं उतरांय संवकळीचीं आसत जाल्यार तांकां तीं म्हणूंक सोपीं जातात. गीत गायनाखेरीज जर भुरग्यांक तांतुतल्या उतरांचो अर्थ समजत, जाल्यार तीं गितां अदीक खोसदिणी जातात आनी तांचो भास-विकास सोपेपणान आनी आपसूक जाता. हो हेत मतींत धरून आमी अशा विशयांचेर गितां रचपाचो यत्न केला, जे विशय भुरग्यांक लागींचे आनी आवडीचे आसात. भुरग्यांमदीं अप्रत्यक्ष रितीन विश्वव्यापी मोग रूजोवंचो आनी तांच्यांत "तूं कर" म्हणचे बदला "आमी करुंया" ही प्रवृत्ती वाडीक लावची हाची जतनाय घेवचो आमी यत्न केला. विशय आनी उतरावळ वेंचून काडटना सैमाकडें, स्वताकडें, संबंदितांकडें आनी अख्ख्या जीवसृश्टीकडें नाते आशिल्ल्या विशयांची आमी दखल घेतिल्ली आसा. भुरग्यांनी आयकुंचें, गावंचें आनी तांतूंत आनंद घेवंचो आनी त्याच वांगडा भुरग्यांची समजून घेवंची तांक वाडची, तशेंच आयकप, उलवप आनी उतरावळ विकास ह्यो तांच्यो भाशीक कुशळतायो वाडच्यो असो आमचो हेत आसा. पूर्व प्राथमिक शिक्षक, पालक आनी भुरग्यांमोगी ही गितां म्हणटले, गायतले आनी तांतूंत भुरगीं खोशयेन वांटो घेतलीं अशी आमकां आस्त आसा.

वयर दिल्ले सगळे कस ध्यानांत दवरून ही बालगितां रचल्यांत. हे कार्यशाळेंतल्या कवींक आनी कवयित्रींक हांतुतलें दरेक गीत रचून म्हणटना खोस भोगल्या. मागीर तांणीं त्या गितांचेर चर्चा करून तीं परतून परतून सुदारून तांकां निमणे रूप दिलां.

ह्या गितांनी कांयकडें एकाच विशयाचेर एकापरस चड गितां आसात. तांतुतलीं कांय शारांतल्या तर कांय, खेड्यांतल्या भुरग्यांक तांचे भोवतणचे परिस्थितिप्रमाण आकर्शीत करपासारकीं आसात. पालकांनी जावं शिकोवप्यांनी आपूण शिकयता त्या भुरग्यांक खंयचीं गितां आवडटलीं, त्याप्रमाण तीं वेंचून घेवं येतात. ज्या ज्या वाठारांनी जी

जी भास उलयतात त्या विंगड विंगड वाठारांचें प्रतिनिधित्व करपी गीतां रचपाचो यत्न केल्ल्यान दरेका भुरग्याच्या अणभवाचो ह्या गितांनी आसपाव जाल्लो आसा.

कार्यशाळेंत वांटो घेतिल्ल्या सगळ्यांचे तांच्या प्रामाणीक वावराक लागून आनी सहकाराक लागून आमी उपकारी आसां.

ह्या गितांचे विधायक समीक्षण आनी त्यासंबंदान सुचोवण्यो आयल्यार आमकां बरें दिसतलें.


**बी. श्यामला कुमारी**
रीडर-कम-रिसर्च ऑफिसर
**भारतीय भाषा संस्थान**
**मैसूर**


**मैसूर,**
**३१ मार्च, १९९६**

# बालगितां भाग १ (३ ते ४ पिरायेच्या भुरग्यांक)

63. माकडाच्या पिला
64. घोडो
65. मोनजात
66. मूय
67. कुल्ली
68. कासव
69. बैल
70. गाय
71. फुलांच फुलां
72. पणसा घरे
73. आईन हाडलीं फळां
74. कोणाक जाय गे
75. टमाट
76. काणी
77. फेस्त
78. नाचुया
79. आखो माखो
80. सुर्या
81. पावस
82. या गो या
83. दर्या - वेळ
84. कुडकुडो
85. मोटारगाडी
86. रेल गाडी
87. रिक्शा
88. गूर्र गूर्र गाडी
89. झूक झूक गाडी
90. एक ते पांच

## बालगितां भाग २ (४ ते ५ पिरायेच्या भुरग्यांक)

1. पाळण्यातल्या बाबुल्या
2. जोय जोय जोय
3. यो रे बाबुल्या
4. बाबू आमचो
5. बाबुलो
6. हांव दिसतां कसो
7. यो गो बाये
8. फिलोमिना
9. शाबी बाबी
१०. सोयरे
11. मामाचो गांव
12. तारवटी तितीव
13. म्हजो आजो
14. आजी
15. आमगेली आजी
16. व्हडले मांयची मांय
17. पापाल्यो मिशयो
18. आवाज
19. बोटां
20. म्हजे पांच इश्ट
21. कितें करतात ?
22. शर्ट
23. म्हजी बावली
24. बावली
25. बावले बावले
26. बावली
27. जेनीची बावली
28. बावलेक जाल्या थंडी
29. बावलो बावली
30. काजार

31. बावलेचे लग्न
32. बावले न्हीद
33. बोटवो
34. सायकल
35. नाच
36. पाटी आनी काडी
37. गिरगिटली
38. सुरसुरें
39. मोटारगाडी
40. खेळांतली गाडी
41. बैलांगाडी
42. बोमाडो
43. बोमाडे
44. रेलगाडी
45. विमान
46. पतंग
47. पतंग
48. फुगडी खेळुया
49. रांदपा खेळ
50. व्हड्यांचो खेळ
51. आपालिपा
52. आपालिपा
53. खेळुया
54. खेळ
55. खेळ
56. खेळण्यांतलीं नुस्तीं
57. बोल
58. बोलांनी खेळुया
59. साय आनी लोणी
60. दूद
61. पुरणपोळी
62. पोळो
63. गोडशें
64. पोळो
65. पोळो
66. चींच
67. जेवण
68. सुंगटां
69. नुस्त्या जेवण
70. जाता कशें
71. खतखतें
72. पापड
73. बाय रांदता
74. घर
75. आमचें घर
76. मामालें घर
77. घरची कामां
78. पंखे
79. आलमार
80. हारसो
81. कदेल
82. रेडियो
83. टी.व्ही.
84. टी.व्ही.
85. फोन
86. घड्याळ
87. शेंदरी
88. खाट
89. सारन
90. बुडकुलो
91. नळ
92. शाबु
93. शाबु
94. म्हजी सत्री
95. सत्री
96. आजयेचो बोटवो
97. पेटी - तबलें
98. जोतें

99. पाटी
100. पाटी
101. कापूस
102. वखद
103. पेन
104. मेज मांडलां
105. जनावरांची बसका
106. कोंबो
107. कोंबो
108. कोंबी आनी पील
109. शेवणे
110. शेवणीं
111. इल्लेंशें शेवणे
112. कावळ्या कावळ्या
113. कावळे आयले
114. कावळे
115. कावळो
116. कडी
117. कावळो
118. कावळीणमांय
119. आश्टो दिश्टो
120. खाऊ दितां
121. कीर
122. कीर कीर किरा
123. कीर
124. पांदऱ्यांतलो कीर
125. कीर
126. पाखो
127. पारवे
128. पारवो
129. पारवे
130. कोगूळ
131. कोगूळ
132. गिरबुजी
133. टीटीट्यांव
134. मोरा मोरा
135. नाच रे मोरा नाच
136. धवी धवी बळार
137. बदक
138. बिरमुटी
139. फुलपांखे
140. फुलपाकुलें
141. पाकुलें
142. फुलपाकुलें
143. काजुलो
144. घुंगुल्लो
145. बेबकां
146. पाल
147. जल्लो
148. पणटे भोंवतणीं पिसोळीं
149. घोंटेर
150. घरां
151. कापडयो
152. वागमूय
153. खंय वता
154. चानये चानये
155. चानये चानये
156. चानी
157. बिलूबाय
158. बिलू
159. बिलूबाय
160. बुकलो
161. मेमें
162. कुतू
163. माकड
164. सोसो
165. सोशापिला
166. सोसो

235. शेतकार
236. खारवी
237. पसरकार
238. तारयामामा
239. वळार
240. कांकणकारा
241. पोस्टमन
242. पोस्टमन
243. दोतोरमाम
244. दोतोर काका
245. दोतोर
246. बाई
247. मोटारकार
248. ड्रायवर
249. माळी
250. फळवाली
251. पुलीस
252. लेफ्ट रायट
253. गोरवां राखण्या
254. राखणो
255. नर्स
256. शेजारी
257. एक दोन तीन
258. ग, म, भ, न
259. वाजपां
260. जल्मदीस
261. वाडदीस
262. काणी काणी शिकाणी
263. बाबूची काणी
264. नाटक
265. चिटयांपेट
266. खपरांपत्र
267. वाचपघर
268. रोवया बीं
269. निवळ करुया
270. म्हजो गांव

## १... दिमखुऱ्यांनी यो

दिमखुऱ्यांनी यो रे बाबा
दिमखुऱ्यांनी यो

खेळ खेळूंक यो रे बाबा
खेळ खेळूंक यो

दिमखुऱ्यांनी यो रे बाबा
दिमखुऱ्यांनी यो

भोबो खावंक यो रे बाबा
भोबो खावंक यो

दिमखुऱ्यांनी यो रे बाबा
दिमखुऱ्यांनी यो

## २.... बाबूक दिलो उंडो

बिलूक जाय दूद
पेट्याक दिलें हाडूक

गायक जाय कुंडो
बाबूक दिलो उंडो

## ३... ऊठ रे बाबुल्या

ऊठ रे बाबुल्या
ऊठ रे बाबुल्या
बेगीन बेगीन
ऊठ रे बाबुल्या

न्हावन खावन
बोटवो घेवन
शाळेंत वचचो
वेळ जाला

## ४... बाबू हांसता

चोयात रे
तुमी चोयात रे
सुकणीं नाचतात

चोयात रे
तुमी चोयात रे
भुरगीं नाचतात

चोयात रे
तुमी चोयात रे
बाबू हांसता

## ५... बाय

बाय गो तूं बाय
आमकां सगळ्यांक जाय

आई पापा दादा ताईक
पापी दिवंक जाय

बाय गो तूं बाय
आमकां सगळ्यांक जाय

## ६... सांग रे बाबू

शाणो म्हजो गुणो म्हजो
अपुरबायेचो

सांग रे बाबू सांग रे बाबू
कोणाकोणाचो ?

आईचो पापाचो
आजयेचो आज्याचो

सांग रे बाबू सांग रे बाबू
कोणाकोणाचो ?

शाणो म्हजो गुणो म्हजो
अपुरबायेचो

## ७... शाणो बाबुलो

शाणो बाबुलो
गुणो बाबुलो

कितें खातलो ?
कितें खातलो ?

केळें खातलो काय
चिकू खातलो ?

केळें लांब लांब
चिकू गोल गोल

दोनूय गोड गोड
दोनूय गोड गोड

शाणो बाबुलो
गुणो बाबुलो

शाणो बाबुलो
दोनूय खातलो

गुणो बाबुलो
दोनूय खातलो

## ८... नाच रे बाळू

आबोलीं शेंवतीं आसात थंय
नाच रे बाळू थय तक थय

जायो जुयो मेळटात थंय
नाच रे बाळू थय तक थय

मोगरीं चाफीं फुलल्यांत थंय
नाच रे बाळू थय तक थय

साळकां रोजां हाडल्यांत थंय
नाच रे बाळू थय तक थय

## ९... लाडकी

गुबगुबीत पोले
घारशे दोळे

ओंठ तांबडे
दांत धवे

कोणाची लाडकी ?

आईची लाडकी
बाबाची लाडकी

## १०... बाबुलो

सान आमचो बाबुलो
बसून भोबो खातालो

थंय काकांव येतालो
ताकाय भोबो दितालो

सान सान बाबुलो
खूब खूब हांसतालो

## ११... सकाळीं उठलों

सकाळीं उठलों
सडसडीत

दात घांसले
चकचकीत

तोंड धुलें
घसघशीत

दूद पिलों
घटघटीत

## १२... शाळेक वतां

आई हांव शाळेक वतां
शाळेक वतां शाळेक वतां

प्रियांक वता शशांक वता
हांवूय शाळेक वतां

शाळेंत वचून मस्त शिकतां
इश्टां वांगडा खेळूय खेळटां

खेळटां शिकतां व्हड जातां
शाळेक वचून दोतोर जातां

## १३... आई आनी बाई

खावंक दिता
म्हजी आई
गितां शिकयता
म्हजी बाई

आई म्हणटा
खा खा
बाई म्हणटा
गा गा

## १४... मावशी येतली

मावशी येतली
म्हजी मावशी येतली

गोड गोड
लाडू घेवन

मावशी येतली
म्हजी मावशी येतली

बऱ्यो बऱ्यो
काणयो सांगूंक

मावशी येतली
म्हजी मावशी येतली

## १५... म्हजी मावशी

मावशी म्हजी मावशी
भयण म्हजे मम्मीची

शाळेक व्हरता सकाळची
बागेंत व्हरता सांजची

मावशी म्हजी मावशी
मोगाची म्हजी मावशी

## १६... मम्मी

मम्मी म्हजी मम्मी
मोगाची म्हजी मम्मी

न्हेसता बरी साडी
तांबडी लायता तिती

मम्मी म्हजी मम्मी
मोगाची म्हजी मम्मी

## १७... म्हजो पापा

पापा म्हजो पापा
खाऊ म्हाका हाडटा

भोंपपाक म्हाका व्हरता
बावली म्हाका दिता

पापा म्हजो पापा
पापी म्हाका दिता

## १८... म्हात आनी म्हाव

म्हात आयलो म्हात आयलो
बाबाचो व्हडलो भाव आयलो

म्हाव आयली म्हाव आयली
म्हाताची बायल म्हाव आयली

म्हातान म्हाका बॅट दिलें
म्हावेन म्हाका बोल दिलो

बॅट बोल घेवन हांव
खूब खूब खेळ्ळों

## १९... व्हडली मांय

व्हडली मांय व्हडली मांय
मोगाळ व्हडली मांय
हांडीर तुजे घेवन म्हाका
आंगणांत भोंवडायताय

व्हडली मांय व्हडली मांय
पदां शिकयताय
सोबीत सोबीत काणयो सांगून
म्हाका खेळयताय

व्हडली मांय व्हडली मांय
वखद झरयताय
मांडयेर तुजे म्हाका न्हिदोवन
मोगान भरयताय

## २०... आमचो बाबू

यो रे किरा गोड उलय
बाबू तोंड धुयता

यो रे कावळ्या तकली हालय
बाबू आमचो जेवता

यो रे कोंब्या शेंकरें फुलय
बाबू आमचो आंवता

## २१... खेळ

आंगणांत खेळटात
कुतू आनी बिलू
पणसार बसल्यात
चिऊ आनी काऊ

कुतू करता भूक भूक
बिलू करता म्यांव म्यांव
चिऊ करता चीव चीव
काऊ करता काव काव

## २२... खेळुया

यो गो ताई खेळुया
बावलेक आमी न्हाणोवया

यो गो ताई खेळुया
बावलेक तिती लावया

यो गो ताई खेळुया
बावलेक आंगलें घालुया

यो गो ताई खेळुया
बावलेक आमी धोलोवया

यो गो ताई खेळुया
यो गो ताई खेळुया

## २३... घोडो

गुडूगुडू घोडो
फाटीर बाय बसता
फाटी - फुडें धोलतना
किटी किटी हांसता

## २४... खिळखिळो

खीळ खीळ खिळखिळो
पप्पान हाडलो खिळखिळो

म्हाका दिलो खिळखिळो
हांवें वाजयलो खिळखिळो

खीळ खीळ खिळखिळो
खीळ खीळ खिळखिळो

## २५... खेळणीं

खेळणीं घेवया , खेळणीं घेवया
सुंदर सोबीत खेळणी घेवया

गाडी आसा बस आसा
मोटार आसा स्कुटर आसा

रामू यो रे शामू यो रे
सीता यो गो गीता यो गो

सुंदर सोबीत खेळणीं घेवया
घरांत हाडून खेळत बसुया

## २६... विमान

जायतीं म्हजीं
खेळणीं आसात
तातूंत एक
विमान आसा

विमानाक तीन
चाकां आसात
वयर एक
पंखो आसा

चावी दिल्यार
धांवता विमान
पंखो ताचो
घुंवता नेटान

## २७... बोल

म्हजो बोल म्हजो बोल
तांबडो धवो काळो बोल

आंगणांत हांव वतलों
बोल घेवन खेळटलों

रिना विणाक व्हरतलों
तांच्या वांगडा खेळटलों

## २८... खेळुया बोलांनी

मळार खेळटा हुसेनी

वचुया थंय आंतोनी

यो रे यो रे बाबनी

खेळुया आमी बोलांनी

## २९... गिरगिरें

जात्रेतलें गिरगिरें

रंगांनी भारी बरें

घेवन हांव धांवलें

सूर्र करून घुंवलें.

## ३०... ताळी

पयली ताळी
आईची आईची

दुसरी ताळी
बाबाची बाबाची

तिसरी ताळी
ताईची ताईची

चवथी ताळी
भाऊची भाऊची

पांचवी ताळी
सगळ्यांची सगळ्यांची

## ३१... पाटी

बाबान पाटी हाडली
अ आ काडून दिली

अ आ हांवें पळयली
पळोवन पळोवन बरयली

शाळेंत हांव वतां
वांगडा पाटी व्हरतां

## ३२... सायकल

सायकल म्हाका हाडल्या नवी
तीन चाकांची तांबडी धवी

धाकली ती आसली तरी
धांवता बरी किरी किरी

कांपीण वाजता किणी किणी
किणी किणी किणी किणी

## ३३... ओंठ

ओंठ कित्याक?

तोंड धांपूक
तोंड उगडूंक

ओंठानी उम्मो घेतां
अम्माक उम्मो दितां

## ३४... गोड दूद

गोड दूद गायचें
बाबूक आमी दिवंचें
बाबून दूद पिवंचें
बाबून व्हड जावचें

## ३५... लॉलिपॉप

लॉलिपॉप लॉलिपॉप
म्हाका जाय लॉलिपॉप

लॉलिपॉप हांव चोखतलों
चोखीत चोखीत खेळटलों

लॉलिपॉप लॉलिपॉप
म्हाका जाय लॉलिपॉप

## ३६... बुंदीचे लाडू

अम्मा म्हाका लाडू दि
बुंदीचे लाडू दी

गोल गोल लाडू दी
गोड गोड लाडू दी

व्हड व्हड लाडू दी
मोव मोव लाडू दी

## ३७... लोणी

चालुबुळू चालुबुळू
ताकार लोणी येता

अम्मा लोणी काडटा
म्हाका खावपाक दिता

चालुबुळू चालुबुळू
ताकार लोणी येता

## ३८... पोळे

भाज गे पोळे भाज गे पोळे
बाबून आईक म्हळें

आईन कायलीर भाजले पोळे
पोळ्यांक हजार दोळे

पोळो काडलो बाबूक दिलो
बाबून खालो, खोशी जालो.

## ३९... कितले भोबे

कितले भोबे
कितले भोबे?

आईन थापले
तितले भोबे

आरते भाजले
परते भाजले
कितले भोबे?

आईन भाजले
तितले भोबे

आमी खाले
तुमी खाले
कितले भोबे?

आईन वाडले
तितले भोबे.

## ४०... खाणां

लाडू कापां नेवऱ्यो
खावंक लागतात बऱ्यो
चिवडो चकऱ्यो कुरकुरीत
खावंक लागतात चुरचुरीत

## ४१... चकर्‍यो

आईन केल्यो चकर्‍यो
आमकां सगळ्यांक दिल्यो
चुरू मुरू चाबून खाल्यो
खावंक लागतात बर्‍यो

## ४२... शाबू

चोय चोय चोय
काय बरो शाबू
आंगाक लायतलो
आमगेलो बाबू

चोय चोय चोय
काय बरो शाबू
घुशा करतलो
आमगेलो बाबू

## ४३... बुडकुलो

बुडकुल्यांत आमी
उदक तापोवया
शाबू लावन बाबूक
उदक न्हाणोवया

## ४४... बिलूबाय

म्यांव म्यांव बिलूबाय
खा इल्ली दुदासाय

म्हाका नाका दुदासाय
मेमें जाय मेमें जाय

म्यांव म्यांव बिलूबाय
शिता उंडी खावंक जाय

उंडी-बिंडी म्हाका नाका
खीर जाय मेमें जाय

म्यांव म्यांव बिलूबाय
खीर तुवें खावंक जाय

खीर-बीर म्हाका नाका
मेमें जाय मेमें जाय

## ४५... कुतू

कित्याक रे कुतू
कूंय कूंय करता
कूंय कूंय करून
पांय म्हजे ल्हेंवता

कितें जाय तुका
सांग रे म्हाका

गोड गोड बिस्कूट
दितां तुका
चुरूमुरू बिस्कूट
दितां तुका

## ४६... हुंदरा पिला

कुरकुटांत न्हिदलां
माजर माजर

हुंदरा पिला
भायर सर
भायर सर

तुका कसलो
ना भंय
ना भंय

वच तुका
जाय थंय
जाय थंय

## ४८... कोंबो

फांतोडेर दारांत कोंबो
कोंकोच कों करतालो
म्हाका पळोवन म्हणूंक लागलो
कोंकोच कों दीस उदेलो

## ४८... कोंब्या कोंब्या

कोंब्या कोंब्या
कोकोंच कों
जाय तुका
भोबो ?

कोंब्या कोंब्या
कोकोंच कों
घे तुका
भोबो

## ४९... कावळो

केळीचेर बसून कावळो
काव काव करतालो
म्हाका पळोवन म्हणूंक लागलो
दी म्हाका भोबो इल्लो

## ५० ... येयात कावळ्यांनो

येयात कावळ्यांनो
आंगणांत येयात

बायून आमच्या
खाण हाडलां

खावंक येयात
खावंक येयात

## ५१ ...काळो काळो कावळो

काळो काळो कावळो
तळ्यार न्हावन आयलो
ताटांतलें मेमें पळोवन
पाटार येवन बसलो

मेमें चोंचींत घालून
कावळो गेलो उडून
ऊड ऊड उडलो
झाडार वचून बसलो

## ५२ ... कावळ्या काका

कावळ्या काका कावळ्या काका
झाडार कित्याक बसला ?

यो रे यो रे आंगणांत यो
शीत दितां तुका

खा गा कावळ्याकाका
खा गा कावळ्याकाका

## ५३ ... कीर

कीर कीर कीर
पेरीवयलो कीर

कीर कीर कीर
पाचवो पाचवो कीर

कीर कीर कीर
तांबडे चोंचीचो कीर

कीर कीर कीर
पेर खाता कीर

## ५४... कीरा रे मोरा रे

किरा रे मोरा रे
म्हज्या आंगणात येयात
खावंक दितां, जेवंक दितां
म्हाका येवन मेळात

किरा रे मोरा रे
म्हज्या आंगणांत येयात
बॅट दितां बोल दितां
म्हजे संगती खेळात

## ५५... यो यो यो

बिलू यो बील बील बील
भिशू यो भीश भीश भीश
कोंब्या यो बा बा बा
काक्या यो का का का

## ५६... चानये चानये

चानये चानये
सकयल यो
सोप्यार आमच्या बस

चानये चानये
घरांत यो
चणे खावन वच

## ५७... चानी

एक आसा चानी
रूखावयली राणी
दीसभर सांगता
शेंपडी हालयत काणी

## ५८... चानी बाय

चानी बाय
चानी बाय
काजू रूखार
चड गो बाय

चानी बाय
चानी बाय
रसाळ काजू
तोड गो बाय

चानी बाय
चानी बाय
एक एक काजू
खा गो बाय

चानी बाय
चानी बाय
बियो म्हाका
दी गो बाय

## ५९... गिरबुजी

घोटेरांतली गिरबुजी
उडून भायर आयली
आंगणांत रेवेंत लोळ्ळी
परतून भितर गेली

## ६०... इल्लीशी गिरबुजी

इल्लीशी गिरबुजी
तळ्यार आयली
उदक पिली
घुटू घुटू

इल्लीशी गिरबुजी
तळ्यार आयली
उदक न्हाली
घुसू घुसू

इल्लीशी गिरबुजी
न्हाली धुली
उडून गेली
भुरू भुरू

## ६१... बेबो

तळ्यादेगेर बेबो एकलो
डरांव डरांव करतालो
म्हाका पळोवन म्हणूंक लागलो
फुलय सत्री पावस आयलो

## ६२... बेबूक

धाकटें बेबूक
व्हडलें बेबूक

काळशें बेबूक
हळदुवें बेबूक

मारता उडी
डुबूक डुबूक

गायत रावता
रंवटूक रंवटूक

रंवटूक रंवटूक
रंवटूक रंवटूक

## ६३... माकडाच्या पिला

माकडाच्या पिला
बाबू खंय गेला?

बाबू गेला शाळेंत
हांव वतां बागेंत.

## ६४... घोडो

किटीर किटीर
घोडो किटीर
बाबू बसला
घोड्या फाटीर

घोडो धांवता
किटीर किटीर
बाबू उडटा
पिटीर पिटीर

किटीर किटीर
पिटीर पिटीर
किटीर किटीर
पिटीर पिटीर

## ६५... मोनजात

भूक भूक भूक भूक
सुणो भोकेता

म्यांव म्यांव म्यांव म्यांव
माजर मियेतां

हाम्मा हाम्मा हाम्मा हाम्मा
गाय हांबेता

में में में में
बोकडी मेमेता

काव काव काव काव
कावळो काकेता

कुहू कुहू कुहू कुहू
कोगूळ गायता

## ६६... मूय

आठ तिका पांय
साखर तिका जाय
चाबल्यार जाता हाय

मूय काय ऊय
ऊय काय मूय

मूय मूय मूय

## ६७... कुल्ली

कुकुली कुल्ली
खडपार बसली
आंगान धाकली
दांगान व्हडली

## ६८... कासव

कासवमाम कासवमाम
फाटीर तुजे बसतां
पावय म्हाका घरा
कातली तुका दितां

## ६९... बैल

एक आसा बैल
शिंगा ताचीं सैल
गाड्याक बांदूक गेल्यार
धांवता रानांत वयर

## ७० ... गाय

आमगेर आसा गाय
ती आमकां जाय

गाय शेतांत चरता
फाटल्यान पांडूक भोंवता

दूद पाडकाक जाय
दूद बाबूक जाय

दूद आमकां जाय
दूद सगळ्यांक जाय

## ७१ ... फुलांच फुलां

दारांत फुलां
पोरसांत फुलां
रंगीत फुलां
सोबीत फुलां

धाकली फुलां
व्हडली फुलां
वासाचीं फुलां
फुलांच फुलां

## ७२ ... पणसा घरे

पणसा घरे
पणसा घरे
रसाळ कापे
पणसा घरे

पणसा घरे
पणसा घरे
खावंक बरे
पणसा घरे

## ७३ ... आईन हाडलीं फळां

आईन हाडलीं फळां
खूब खूब फळां

कीर खाता करमलां
कावळो खाता जांबळां

चानी खाता बिमलां
बाबू खाता काळंगा

आईन हाडलीं फळां
खूब खूब फळां

## ७४... कोणाक जाय गे...?

मुळो आनी घोसाळें
चिबड आनी पडोळें
दुदी आनी वांयगें
कोणाक जाय गे....?

## ७५... टमाट

टमाट तांबडें तांबडें
मम्मीन म्हाका दिलें

टमाट हांवें खालें
बरें म्हाका लागलें ,

## ७६... काणी

सांग सांग काणी सांग
आई म्हाका काणी सांग
सांग सांग काणी सांग
माकडाची काणी सांग

सांग सांग काणी सांग
बाबा म्हाका काणी सांग
सांग सांग काणी सांग
कोल्याची काणी सांग

सांग सांग काणी सांग
आज्या म्हाका काणी सांग
सांग सांग काणी सांग
वागाची काणी सांग

सांग सांग काणी सांग
आज्जे म्हाका काणी सांग
सांग सांग काणी सांग
राजाची काणी सांग

## ७७... फेस्त

फेस्त गांवार
गाजता खबर
भायर सर गे मम्मी

रीटा येता
गीता येता
फेस्ताक या गे आमी

बोल आसा
बॅट आसा
पळोवंक या गे मम्मी

मोटार आसा
बावली आसा
हाडूंक या गे आमी

पेपारें आसा
बोमाडो आसा
पळोवंक या गे मम्मी

चणे आसा
खाजें आसा
हाडूंक या गे आमी

## ७८... नाचुया

तक थय थय्या
तक थय थय्या
घुंगरां बांदून नाचुया

नाचुया
आमी नाचुया
गिरिगिरी घुंवून नाचुया

## ७९... आंखो माखो

आखो माखो, तेल माखो
आईन म्हाका आपयलें
आखो माखो, तेल माखो
तेल माथ्यार माखयलें
आखो माखो तेल माखो
आईन म्हाका न्हाणयलें

## ८०... सुर्या

सांग आई सांग आई
सुर्या खंयसून येता?

सांग आई सांग आई
वोत खंयच्यान हाडटा.

सांग बाबा सांग म्हाका
सुर्या खंयसर वता?

सांग बाबा सांग म्हाका
काळोख कसो जाता?

## ८१... पावस

पटपट पावसामामा
सटसट मेळूंक यो
कागदा व्हडें तयार केलां
झटपट मेळूंक यो

## ८२... या गो या

या गो या
आमी वेळेर वचुया
वेळेवयले रेवेंत
आमी नाच नाचुया
आमी खेळ खेळुया
आमी घुलो पुंजोवया

## ८३... दर्या-वेळ

या या या
दर्या - वेळेर या
दर्या - वेळेर वचून
खेळ खेळुया

मोव रेवेंत बसुया
रेवेंचीं घरां बांदुया

कोंगे आमी सोदुया
घुलो शिंपयो पुंजोवया

कुल्ल्यां फाटल्यान धांवुया
दर्यांतल्यो बोटी पळोवया

## ८४... कुडकुडो

थंड थंड उदकाचो
बूड बूड बुडबुडो

कूड कूड शिंयाचो
कूड कूड कुडकुडो

## ८५... मोटारगाडी

मोटारगाडी पींक पींक
मोटारगाडी पींक
मोंटारगाडयेंत बसल्या आमी
सगळे मेळून तीग

मोटारगाडी पींक पींक
मोटारगाडी पींक
मोटारगाडयेंत बसूंक लागल्या
भुरग्यांची रीग

## ८६... रेलगाडी

चुकपूक चुकपूक
रेलगाडी
चुकपूक चुकपूक
आयली गाडी
चोय रे बाबा
चोय गे बाये
आमची गाडी
आमची गाडी

## ८७... रिक्शा

रिक्शा पळय रिक्शा
तीन चाकांची रिक्शा

पोंक पोंक करता
गूर्र गूर्र धांवता

तातूंत हांव बसतां
मामागेर वयतां

## ८८... गूर्र गूर्र गाडी

गूर्र गूर्र गाडी
पप्पाची गाडी
गूर्र गूर्र गाडी
तांबडी गाडी

गूर्र गूर्र गाडयेक
वाटकुळीं रोदां
गूर्र गूर्र गाडयेक
काय बरीं दारां

गूर्र गूर्र गाडी
गूर्र गूर्र चलता
पप्पा म्हाका
शाळेंत व्हरता.

## ८९... झूक झूक गाडी

झूक झूक गाडी
झूक झूक धांवता
मामाल्या गांवांत
रोखडीच पावता

मामाल्या गांवांत
तांबडे तांबडे रस्ते
वचत थंय दिसता
पाटल्यान नुस्तें

मामाल्या गांवांत
तळयो बांयो भरतात
तळयेंतल्या उदकांत -
भुरगीं आमी पेंवतात-

मामाल्या गांवांत
आंबे पणस लागतात
आंबे पणस खावपाक
भुरगीं आमी जमतात

## ९०... एक ते पांच

नाक एक तोंड एक
तकली म्हाका एक
म्हाका दोळे दोन
नाल्लाक दोळे तीन
तिपायेक पांय तीन
मेजाक पांय चार
कदेलाक पांय चार
हाताक बोटां पांच

# बालगितां भाग २

(४ ते ५ पिरायेच्या भुरग्यांक)

## १... पाळण्यांतल्या बाबुल्या

पाळण्यांत कित्याक न्हिदून रावला
धाकल्या म्हज्या बाबुल्या
उंगे उंगे रडटा कित्याक
ओगी राव बाबुल्या

बाबान म्हाका बोल हाडला
खेळूंक यो रे बाबुल्या
बावलीय म्हजी दितां तुका
यो रे म्हज्या बाबुल्या

## २... जोय जोय जोय

पाळण्यांत बाळ रडटा
ऊंय ऊंय ऊंय ऊंय

आई जोय काडटा
जोय जोय जोय

न्हीद रे बाळा
जोय जोय जोय

जोय रे बाळा
जोय जोय जोय

## ३... यो रे बाबुल्या

यो रे बाबुल्या
शाळेक वचुया
पाटी पुस्तक घेवया
बॅगांत घालुया
बेगी बेगीन चलुया
शाळेक वचुया

## ४... बाबू आमचो

बाबू आमचो
शाणो गुणो
जेवण सांडचो ना

बाबू आमचो
हात धुयता
जेवपाक बसतना

सूर्र करचो ना
बूर्र करचो ना
जेवण जेवतना

## ५... बाबुलो

ल्हान म्हजो बाबुलो
उठून उबो रावलो

उठून उबो रावलो
बुचूक करून पडलो

बुचूक करून पडलो
परतून उबो रावलो

परतून उबो रावलो
पावली मारूंक लागलो

## ६... हांव दिसतां कसो?

म्हजे गाल कशे?
गूल गूल गुलगुलीत

म्हजे दांत कशे?
चक चक चकचकीत

म्हजे दोळे कशे?
लूक लूक लुकलुकीत

हांव दिसता कसो?
सोबीत सोबीत सोबीत

## ७... यो गो बाये

किटी किटी हांसत
चलत यो गो बाये
ल्हवू ल्हवू चाली करीत
चलून यो गो बाये
पिटी पिटी नाचत
नाचत यो गो बाये

## ८... फिलोमिना

आंगाक खोमशी
पांयांक बूट
सजलें फिलोमिना
मांयचो हात
धरता झेतान
फेस्ताक वयतना
पोल्यांक पावडर
केसांक रिबीन
सजलें फिलोमिना
मांयचो हात
धरता झेतान
फेस्ताक वयतना
कानांत रिंगां
हाताक कांकणां
सजलें फिलोमिना
मांयचो हात
धरता झेतान
फेस्ताक वयतना

## ९... शाबी बाबी

शाबी बारकेलो
बाबी मोटेलो
शाबी बाबी
एकठांय गावले
दोगूय खोशयेन
हांस हांसले
दोगांयनी खांदार
हात घातले
दोगूय मेळून
धोल धोल्ले

## १०...सोयरे

सोयरे सगळे फाटल्या वारा
आयले आमच्या घरा
काका आयलो आयतारा
ताणें हाडलीं बोरां
आतें आयलें सोमारा
तिणें हाडलीं पेरां
मामा आयलो मंगळारा
ताणें हाडलीं आतेरां
मावशी आयली बुधवारा
तिणें हाडलीं कणेरां
आजो आयलो बिरेस्तारा
ताणें हाडलीं चारां
आजी आयली शुक्रारा
तिणें हाडलीं तोरां
सोयरे सगळे शेनवारा
गेले तांच्या घरा

## ११... मामाचो गांव

आमी गांवांक वतलीं
मामाच्या गांवांक वतलीं
गांवांत म्हगेलो मामा आसा
गांवांत म्हगेली मामी आसा
आजो आसा आजी आसा
मामाचें घर व्हड आसा
आजो खावंक दितलो
मामा भोवंक व्हरतलो
आजी काणी सांगतली
मामी पदां शिकयतली
आमी गांवांक वतलीं
भुरग्यांवांगडा खेळटलीं

## १२... तारवटी तितीव

आमचो तितीव
तारवार आसता
दर्यार पयस
पयस वता
शारां गांव
जायते भोंवता
केन्नाय एक पावट
घरा येता
व्हिडियो रेडियो
येतना हाडटा
हाडटा सोबीत
बरीं लुगटां
जात्रा फेस्तांक
आमकां व्हरता
मोटारीन आमकां
भोंवडावन हाडटा

## १३... म्हजो आजो

आजो म्हजो आजो
म्हजो मोगाचो आजो
रस्तो पार करता
शाळेक म्हाका व्हरता

शाळा सुट्टा तेन्ना
व्हरूंक म्हाका येता
हाताक म्हज्या धरून
घरा म्हाका हाडटा

## १४... आजी

आमची आजी
सगळ्यांत जाणटी
चलता घेवन
हातांत बडी

आजी पिपी
दिता चड
आजीची पापी
लागता गोड

आजी आमकां
सांगता काणी
एक राजा
एक राणी

## १५... आमगेली आजी

आजी आयली आजी आयली
आमगेली आजी आयली
खाजक्या करंड हातांत घेवन

आजी सांगता काणी बरी
आजी गायता गाणी बरीं
रातची सांगता काणयेर काणी
न्हिदयता म्हाका गावन गाणी

## १६... व्हडले मांयची मांय

दांडो तेंकयत तेंकयत
फाट बागयत बागयत
येता पणजीमांय
व्हडले मांयची मांय

पान तोंडांत चाबीत
सवकास पावलां घालीत
येता पणजीमांय
व्हडले मांयची मांय

किरवंटेक चिरी खोवन
चिरयेंत चकऱ्यो घेवन
येता पणजीमांय
व्हडले मांयची मांय

आमकां उलो मारीत
चकऱ्यो घे म्हणीत
आयली. पणजीमांय
व्हडले मांयची मांय

## १७... पापाल्यो मिशयो

पापा म्हजो गोरसो
मिशयो ताच्यो काळशो
पापी घेतल्यार तोपतात
तरी ओंठार सोबतात
पापाल्यो मिशयो
पापाल्यो मिशयो

## १८... आवाज

शीं शीं शीं करून शिंकता
खाक खाक खाक करून खांकता
फू फू फू करून फुंकता
हा हा हा करून हांसता

## १९...बोटां

पयलें बोट
दुसरें बोट
तिसरें बोट
चवथें बोट
आखाणो हें
पांचवें बोट
जेवलों बोटांनी
धुले हात

## २०... म्हजे पांच इश्ट

दोळ्यांनी हांव पळयतां
कानानी हांव आयकतां
नाकान हांव हुंगतां
जिबेन रूच घेतां
कातीन थंड-हून समजतां

## २१... कितें करतात?

कान आसात आयकुपाक
दोळे सगळें पळोवपाक
नाक वास घेवपाक
तोंड आसा उलोवपाक
हात काम करपाक
पांय आसात चलपाक

## २२... शर्ट

दीदी दीदी
चोय चोय
शर्ट म्हजो
पिंजला चोय
बेगीन म्हाका
शिवून दी
शाळेंत म्हाका
वचूं दी
दीदी म्हजो
शर्ट शिंवता
घालून हांव
शाळेक वतां

## २३... म्हजी बावली

म्हजी बावली, म्हजी बावली
सकाळीं ती उठटा
पयलीं दोळे धुयता
मागीर दांत घांसता
तोंड धुवन केंस वळोवन
गोड दूद पियेता

## २४... बावली

सोबीत सुंदर बावली
म्हगेली सोबीत बावली
न्हिदयल्यार न्हिदता
उठयल्यार उटटा
दोळे उगडून पळयता
हांत पांय हालयता
असली म्हगेली बावली
सोबीत सुंदर बावली

## २५... बावले बावले

बावले बावले
रडटा कित्याक
कितें तुका जाता?
बावले बावले
तोंड उगड
वखद तुका घालतां
बावले बावले
रडूं नाका
ओगी राव आतां
बावले बावले
धांप दोळे
कर ताता आतां

## २६... बावली

बाबान हाडल्या बावली
पोले तिचे लाल
अजून कशी उठूंक ना
न्हिदूंक गेल्ली काल
ऊठ ऊठ बावले
वरां जालीं सात
केंस वळय तोंड धूय
घांस बरे दांत
उठली आतां बावली
उठून पळय बसली
केंस वळोवन तोंड धुवन
पळय हांसूंक लागली

## २७... जेनीची बावली

जेनीची बावली
हातांतली सुटली
जमनीर पडली
कूट् करून मोडली
जेनी खूब रडली
दिदी धांवून आयली
दसोवन बावली दिली
आसली तशी जाली
जेनी खूब हांसली
खूब खूब नाचली

## २८... बावलेक जाल्यां थंडी

आई आई आई
म्हजी बावली रडटा
थंडी तिका जाल्या
दोतोरागेर व्हरूया
वखद तिका हाडुया
बावली वखद पियेतली
रोखडीच बरी जातली
म्हज्यावांगडा खेळटली

## २९... बावलो बावली

एक आसलो बावलो
ताका चाबलो हुमलो
बावलो घूंव घुंवलो
हुमलो थंयच रावलो
एक आसली बावली
तिका चाबली मूय
बावलेन म्हणलें हूय
मुयेन केलें कूय

## ३०... काजार

आयज म्हज्या बावल्याचें
काजार आसा शेजारा
कुतू काको चिऊ बिलू
सगळीं जमल्यांत काजारा.
बावली तांची मेणाची
न्हेसल्या साडी खणाची
बावलो म्हजो मेणाचो
न्हेसला सूट सेदाचो

## ३१... बावलेचें लग्न

बावलेच्या लग्नाक आयज
भुरगीं सगळीं आयलीं
रीटा मीना पेद्रू बानू
धाकलीं व्हडलीं आयलीं
धवी फुल्ल बावली
तांबडी साडी न्हेसली
पाचवीं कांकणा घालून
हळदुवीं फुलां माळ्ळीं
दिश्ट लागत म्हूण तिका
काळी तीट लायली
निळ्या निळ्या माटवांत
बावलो बावली बसलीं
बावलेचें लग्न जालें
भुरगीं खोशी जालीं
लग्नाचे लाडू खावन
सगळीं घरा गेलीं

## ३२... बावले न्हीद

बावले म्हजे
रात जाली
ताता करूंक जाय
नाचून खेळून
जालें पुरो
आतां न्हिदूंक जाय
काऊ न्हिदलो
चिऊ न्हिदलें
न्हिदलें कोगूळबाय
न्हीद तूं बेगीन
उशीर जालो
सकाळीं उठूंक जाय
गोठ्यांत गोरवां
गेलीं न्हिदूंक
न्हिदलें पाडूक गाय
शाणुलें बाय
गुणुलें बाय
दोळ्यांक पातीं लाय

## ३३... बोटवो

नवो नवो बोटवो
पापान म्हाका हाडलो
बोटव्यार आसात चित्रां
बावली आनी बावलो
बोटव्यांत हांव घालतां
पुस्तक आनी पाटी
शाळेंत घेवन वतां
बोटवो मारून फाटीक

## ३४... सायकल

पप्पान हाडली सायकल
तीन चाकांची सायकल
हांव तिचेर बसतां
पांय हांव मारतां
ट्रींग ट्रींग करतां
सायकल हांव चलयतां

## ३५... नाच

नाचाच्या वर्गांत
भुरगीं आमी पांच
थारायलें सगळ्यांनी
करचो बरो नाच
फुडें दोन फाटीं दोन
केल्यो रांको दोन
मदीं रावलें एकलें उबें
केले कोनशे दोन
एक दोन तीन चार
सुरू केलो नाच
ता थय तक थय
नाचूंक लागलीं नाच

## ३६... पाटी आनी काडी

हाडल्या म्हाका बाबान
काळी काळी पाटी
काळे काळे पाटयेवांगडा
धवी धवी काडी
काडी जमनीर पडटा
कुट्ट करून मोडटा
तरी हांव पाटयेर
काडये कुडक्यान बरयता
काडी धवी धवी
बोटव्यांत लेगीत मोडटा
देखून म्हज्या बोटव्यांत
काडये कुडके आसतात

## ३७... गिरगिटली

गिरी गिरी करता गिरगिटली
दिदीन दिली गिरगिटली
रंग रंगांची गिरगिटली
गिरी गिरी घुंवता गिरगिटली

## ३८... सुरसुरें

सूं सूं सूं सूं
सुरसुरें लायलें
सरसर सर्र जालें

फूं फूं फूं फूं
फुगोटी लायली
फट् फट् ठो जाली

## ३९... मोटारगाडी

म्हजी मोटारगाडी
खळयेंत पडून मोडली
दुसरे गाडयेक बांदली
ओडून वयर काडली

ओडीत घरा हाडली
घरा हाडून उसयली
आसली तशी घडयली
भुरू भुरू चलयली

## ४०... खेळांतली गाडी

पों पों पों पों
गाडी आमची सुट्टा
येयात तुमी बेगीन बेगीन
गाडी सुटपाक वेळ जाता

चडात बेगीन सिटार बसात
पयशे मातशे बेगीन काडात
शामू रामू धांवून येता
येयात बेगीन गाडी वता

पों पों पों पों
गाडी आमची सुट्टा

## ४१... बैलांगाडी

घडक घडक बैलांगाडी
घेवन भाता राशी
गिरणीकडेन आयली
गिरणीकारा गिरणीकारा
भात म्हजें घाल गा
तांदूळ म्हाका दी गा
घडक घडक बैलांगाडी
घेवन तांदळाराशी
घराकडेन पावली

## ४२... बोमाडो

रड रड बाबू रडलो
आयकून दादा आयलो
कित्याक रे बाबू रडटा ?
बोमाडो म्हजो फुटलो
दुसरो बोमाडो हाडलो
फुलोवन दादान दिलो
बाबू खोशयेन हांसलो
बोमाडो घेवन खेळ्ळो

## ४३... बोमाडे

सगळीं : आमचे बोमाडे रंगरंगीत
सगळीं मेळून गावंया गीत
पयलें भुरगें : बोमाडो म्हजो धवो
दुदांत भिजोवन हाडलो
दुसरें भुरगें : बोमाडो म्हजो हळदुवो
हळदींत भिजोवन हाडलो
तिसरें भुरगें : बोमाडो म्हजो निळो
निळींत बुडोवन हाडलो
चवथें भुरगें : बोमाडो म्हजो पाचवो
पाल्यारोसांत बुडयल्लो
पाचवें भुरगें : बोमाडो म्हजो तांबडो
कुकमान रंगोवन हाडलो
सगळीं : आमचे बोमाडे रंगरंगीत
सगळीं मेळून गावंया गीत

## ४४... रेलगाडी

झुकू झुकू झुकू झुकू
रेलगाडी
झुकू झुकू झुकू झुकू
धांवता गाडी
धांवून धांवून थांबता
मातशी रावून धांवता
झुकू झुकू झुकू झुकू
रेलगाडी
झुकू झुकू झुकू झुकू
धांवता गाडी

## ४५... विमान

गुईं गुईं विमान करता
विमान म्हाका दी
निळें निळें मळब दिसता
नखेत्रांमदें चंद्रीम हांसता
चंद्रीम म्हाका हाडीन दिसता
विमान म्हाका दी
विमानांत बसून मळबांत उडटां
चंद्राक हांव सकयल हाडटां
ताचे संगे खेळन दिसता
विमान म्हाका दी

## ४६... पतंग

वाऱ्यार हुवता
पतंग वयर
दोरी ताची
हातांत धर
        नांवडो ताचो
        रंग सोबीत
        लांब लांब
        शेंपडे फीत
दोरी हाल्यल्यार
धोलता
आमच्या वांगडा
खेळटा .

## ४७... पतंग

रंगीत रंगीत
कागद हाडले
कातरीन कातरले
        व्हीर बागयले
        कागद दसयलें
        पांखाटे लायले
        शेंपाटे लायले
पतंग केलो
दोर बांदलो
पतंग सोडलो
        वाऱ्यान पतंग
        वयर उडलो
वयर वयर
वचत रावलो
वचत रावलो

## ४८... फुगडी खेळुया

फू बाबे फू
फुगडी खेळुया
आमी फुगडी खेळुया
        लीना बीना येयात
        फुगडी खेळुया
        आमी फुगडी खेळुया
हाताक हात धरून
फुगडी खेळुया
आमी फुगडी खेळुया
        गर गर घुंवून
        फुगडी खेळुया
        आमी फुगडी खेळुया

## ४९... रांदपा खेळ

रीना मीना मॅगी
खेळुया सगळीं आमी
        वच गो ताई वच गो
        आयदनां हाड गो वेगीं
शीत करुया , नुस्तें तळुया
करुया नुस्त्याकडी
        ताक चाळुया , लोणी काडुया
        करुया गोड पोळी
रीना मीना मॅगी
खेळुया सगळीं आमी

## ५०...व्हड्यांचो खेळ

उदकांत चलता
व्हडलें व्हडें
व्हड्याक बांदलें
दुसरें व्हडें
दुसऱ्याक बांदलें
तिसरें व्हडें
व्हड्याक व्हडें
व्हड्याक व्हडें

## ५१... आपालिपा

इनू मीनू शीनू
बेगीन यो दीनू
आपालिपा खेळुया
मजा मजा करूया
आमी सोदतां तुमी लिपात
आमी लिपतां तुमी सोदात
आपालिपा खेळुया
मजा मजा करूया

## ५२... आपालिपा

आमी खेळुया आपालिपा
मीना टीना तुमी लिपात
लिपून तुमी कुटुऱ्यो घालात
आमी तुमकां सोदून काडटात

## ५३... खेळुया

यो रे बाबू यो रे बाळू
धांवचेल्यानी खेळुया
शेतांतले वंयेकडेन
कोण पावता पळोवया

## ५४... खेळ

तळ्याधडेर खेळ चलता
उदकांत रावून मानगीं पळयतात
शेवणीं शिळोण्यो घालतात
मानगीं बुडक्यो मारतात
थय थय मोर नाचतात
तळ्याधडेर खेळ रंगता.

## ५५... खेळ

आपालिपा खेळुया
थोडीं लिपुया
थोडीं सोदुया
पयलो मेळटा तो
कावळो जावंचो
ताणे मागीर
दुसऱ्याक सोदचो
कावळे कावळे
सगळे जावंचे
सांज जायसर
खेळत रावंचे

## ५६... खेळण्यांतलीं नुस्तीं

सोबीत सुंदर खेळणीं
आईन म्हाका दिलीं
तातूंत आसा सगळीं
नुस्तीं वेगळीं वेगळीं
पेडवो आसा ताल्लो आसा
आसा शेंवटो बांगडो
इसवण आनी सांगट आसा
आसा तामोसो तांबडो
धोडयारो आनी बाळो आसा
आसा कल्ली वेल्ली
ल्हान ल्हान करवटा वांगडा
आसा व्हडली कुल्ली
सुंगट आसा वागीय आसा
आसा तिसरी खुबो
चल रे बाबू खेळुया आतां
कित्याक रावला उबो

## ५७... बोल

बाबान हाडला बोल
गोल गोल गोल
गोल गोल बोल
तांबडो तांबडो बोल
बोलान आमी खेळुया
बोल आमी शेवटुया
बोल वयर उडोवया
धांवत वचून हाडुया

## ५८... बोलांनी खेळुया

घांट वाजली
शाळा सुटली
खेळुया आतां येयात
वसंत जॉन येयात
चंदन हुसेन येयात
तांबड्या बोलान खेळुया
वयर बोल उडोवया
हातान बोल जिकुया
बोलान आमी खेळुया
येयात येयात येयात
सगळे खेळपाक येयात

## ५९... साय आनी लोणी

दी गे आई
काडून म्हाका
दुदावयली साय
ताकावयलें
लोणी आई
खावंक म्हाका जाय

## ६०... दूद

गाय आयली गोठ्यांत
दूद काडलें तांबयांत
आईन तापयलें तोपांत
हांव पिलें कपांत

## ६१... पुरणपोळी

आईन केली पुरणपोळी
घमघम सुटलो सकाळीं
दुदांत पोळी बुडयली
बाबून पोळी खाली

## ६२... पोळो

आमचो बाबू भोळो
ताका दिलो पोळो
थंय आयलो कावळो
पोळो बाबून खालो
थोडो कावळ्याक दिलो

## ६३... गोडशें

हून हून गोडशांत
बियांचे कुडके
गोड गोड गोडशांत
कातलेचे कुडके
कातलेचे कुडके
बियांचे कुडके
भुरगीं खातात
गोड गोड गोडशें

## ६४... पोळो

अम्मान केलो पोळो
तांदळांचो पोळो
चंद्रावरी वाटकुळो
सुर्यावरी वाटकुळो
पोळो पोळो पोळो
पोळो पोळो वाटकुळो

## ६५... पोळो

कुतूक दिलो पोळो
पळोवन आयलो कावळो
झोंपय मारून पळ्ळो
कुतू कावळ्याक भोंकलो

## ६६... चींच

चिंचेर चींच
अमुरपिकी अमुरपिकी
काळो कावळो
तिका चोंची तिका चोंची

## ६७... जेवण

तांदळांचे शीत हुनहुनीत
ताचेर वरण सरसरीत
वांयग्यांचें केलां रूचीक भरीत
पापड आसात कुरकुरीत
गंवा चपाती मोव मोव
बटाट्याची भाजी रूचीक भोव
गोड खीर शेवयांची
किसमूर केल्या कारात्यांची
तिळांची केल्या चटणी गोड
आमलेच्या लोणच्याची तिखशी फोड
जेवण सगळें जालां कशें
रूचीन बरें जेवचें अशें

## ६८... सुंगटां

दादा सुंगटां घेता
व्हनी सुंगटां भाजता
काका सुंगटां घेता
काकी हुमण करता
मामा सुंगटां घेता
मामी सुंगटां तळटा
बाबा सुंगटां घेता
आई सुकें करता

## ६९... नुस्त्या-जेवण

आमगेर केलां नुस्त्या-जेवण
बाबू खातीर बांगड्या - हुमण
भाऊक सुंगटां जाय
दादाक पापलेट जाय
बाय खाता वेल्ली
आमकां जाय कल्ली
जेवण जालां मचमचीत
जेवया आतां सडसडीत

## ७०... जाता कशें?

चुलुकबुळूक चुलुकबुळूक
ताकार आयलें लोणी
अशें हें जाता कशें
सांगात म्हाका तुमी
रटकचटक रटकचटक
लोणयाचें जाता तूप
अशें हें जाता कशें
अजाप जाता खूब

## ७१ ... खतखतें

दुडूक दुडूक
दुदी गेलो
सांते बाजारांत
ताचे वांगडा पडोळे
हातांत घालून हात
लाल लाल
गोल गोल
आयलें टमाट
ताचेवांगडा
धांवत धांवत
आयलें बटाट
लजत लजत
वांयगें आयलें
जांबळे साडयेंत
मिरयत आयली
म्हसंगा सांग
मान मोडीत
आईन म्हळें
आतां आमी
घेवया कितें?
हांकां सगळ्यांक
व्हरून घरा
करूया खतखतें

## ७२ ... पापड

कुजनांत आई पापड तळटा
चूंय चूंय चूंय
टोमी येवन सोप्यार बसता
कूंय कूंय कूंय
बाबू टोमी पापड खातात
कूर कूर कूर
टोमी वांगडा बाबू नाचता
थूय थूय थूय

## ७३ ... बाय रांदता

पिठाच्यो गुळयो कर
गुळयांच्यो पोळयो कर
लाट लाट लाट गो बाये
लाट लाट लाट
सोयेंत घालून आलें
आल्याची चेटणी कर
वाट वाट वाट गो बाये
वाट वाट वाट
जेवण बायेन रांदलें
जेवण आमकां वाड
वाड वाड वाड गो बाये
वाड वाड वाड

## ७४... घर

घर आमचें नळ्यांचें
धव्या धव्या चुन्याचें
फुडल्यान पोरसूं फुलांचें
फाटल्यान भाट माडांचें

## ७५... आमचें घर

आमचें घर आमचें घर
आमच्या घराक कुडी चार
चौकेर आमी बसतात
कुजनांत आमी रांदतात
जेवणाकुडींत जेवतात
न्हिदचे कुडींत न्हिदतात
आमचें घर आमचें घर
आमच्या घराक कुडी चार

## ७६... मामालें घर

मामाल्या घरा वचुया
मामालें घर पळोवया
गोठ्यांत गाय हांबेता
आजो झाडां शिंपता
मामी आंगण सारयता
आजी उदक तापयता

## ७७... घरचीं कामां

आई म्हजी
भात कांडटा
आजी म्हजी
तांदूळ वेंचता
मावशी म्हजी
तांदूळ दळटा
दीदी म्हजी
पीठ चाळटा
केन्ना केन्ना
हांवूय बी
कामांत तांकां
मदत करतां

## ७८... पंखे

दोन पंखे आमच्या घरांत
एक कुडींत एक सालांत
एक पंखो लांबवपाचो
लांबला थंयच घुंवपाचो
दुसरो मेजार दवरपाचो
दवरला थंयच घुंवपाचो
घूंव घूंव पंखे घुंवतात
रूंव रूंव वारो आमकां दितात

## ७९... आलमार

शारांत वचून आलमार घेतली
सगळ्यांक आमकां आवडली
आमचे आलमारींक खण चार
फुडें सोबीत हारशादार
आंगलीं खेळणीं आमी हाडलीं
आलमारी खणांत दवरलीं

## ८०... हारसो

आलमारीचो हारसो आमचो
सोबीत बरो दिसता
ताचेमुखार उबो रावल्यार
हांव तातूंत दिसता
केन्ना केन्ना ताचेमुखार
दादा केंस उगयता
दीदी तोंडाक पावडर लावन
कपलाक तिती लायता

## ८१...कदेल

ल्हान ल्हान
कदेल म्हजें
चार ताका पांय
सद्दा हांव
बसतां ताचेर
केन्नाय बसता बाय
कदेल म्हजें
बसपाक बरें
ताका दोन हात
पुस्तक घेवन
वाचतना
पळयात म्हजो थाट

## ८२... रेडियो

रेडियो म्हजो रेडियो
वाजता बरो रेडियो
गितां बरीं गायता
वाजप बरें वाजयता
काणयो सांगता बऱ्यो
खबरो सांगता खऱ्यो
रेडियो म्हजो रेडियो
वाजता बरो रेडियो

## ८३ ... टी. व्ही.

आमगेर हाडला टी. व्ही.
रंगीत रंगीत टी. व्ही.
सालांत दवरला टी. व्ही.
पळोवंक बसल्यांत टी. व्ही.
भाईक पळोवंक जाय हॉकी
म्हाका पळोवंक जाय मिकी
बाबाक खबरो आयकूंक जाय
नाटक गितां आईक जाय
रंगीत रंगीत टी. व्ही.
आमगेर हाडला टी. व्ही.

## ८४ ... टी. व्ही.

बायन आमच्या टी. व्ही. लायलो
टींव टींव टींव टींव टींव टींव
टीव्हींत रंगीत चित्रां नाचलीं
ढींव ढींव ढींव, ढींव ढींव ढींव
चित्रां पळोवन बायन म्हणलें
वा वा वा, वा वा वा
टीव्ही वांगडा गावंक लागलें
ला ला ला, ला ला ला
साडी न्हेसून बाय नाचलें
छन छन छन, छन छन छन
बायवांगडा बाबू नाचलो
झन झन झन, झन झन झन

## ८५ ... फोन

तुलुलूक तुलुलूक
फोन वाजलो
दादा रोखडो
धांवून आयलो
तुलुलूक तुलुलूक
फोन वाजलो
दादान म्हळें
हॅलो हॅलो
दादान फोन
म्हाकाय दिलो
हांवेंय म्हळें
हॅलो हॅलो

## ८६ ... घड्याळ

टीक टीक टीक टीक
घड्याळ करता
टीक टीक टीक टीक
टीक टीक करता
टीक टीक घड्याळ
मेजार बसता
मेजार बसून
टीक टीक करता
रातींचेंय न्हिदना
दिसाचेंय न्हिदना
टीक टीक टीक टींक
टीक टीक करता
टीक टीक टीक टीक
टीक टीक टीक टीक

## ८७... शेंदरी

एक म्हजी शेंदरी
एक तुजी शेंदरी
म्हजे शेंदरेर चित्रां
तुजे शेंदरेर चित्रां
शेंदऱ्यो आमी हातरूया
चित्रां आमी पळोवया
म्हजे शेंदरेर किरां-मोरां
तुजे शेंदरेर हरणा पोरां
शेंदरेर आमी बसुया
दोगांय खेळ खेळुया

## ८८... खाट

पळयात म्हजी खाट
सद्दां तिचेर न्हिदयता
म्हाका म्हजी मांय
खाटीर आसा गादी
मोव मोव मोव
तिचेर एक उशें
ल्हव ल्हव ल्हव

## ८९... सारन

मम्मी गेल्या बाजारांत
हाडूंक एक सारन
मम्मी सारन मारतली
घर निवळ करतली
हांवूय सारन मारतलों
घर निवळ करतलों

## ९०... बुडकुलो

एक आशिल्लो बुडकुलो
ताक-लोणयान भरिल्लो
शिंक्यार वचून बशिल्लो
व्हडले नेट मारतलो
रवी आनी दवलो आयलो
कुलेर आनी झारो आयलो
तव्यावांगडा कायलातो
चिमटो आनी खलबतो
सगळ्यांनी म्हळें यो यो
सकयल यो सकयल यो
आपल्या इश्टांक वळखलो
देंवलो सकयल बुडकुलो

## ९१... नळ

नळांतल्यान उदक येता
फस फस फस
नळापोंदचो कळसो भरता
भस भस भस
कळसो भरून उदक रकता
झळ झळ झळ
बाबू आमचो उदक न्हाता
घस घस घस

## ९२... शाबू

न्हाणयेंत न्हाता बाबू
आई लायता शाबू
शाबवाचो फेण धवोफुल्ल
बाबू जाला न्हावपांत गुल्ल
शाबवाचो परमळ घमघमता
बाबुलें आंग तिकतिकता
धुवन गेलो सगळो मळ
बाबू जालो नितळ नितळ

## ९३... शाबू

शाबू म्हजो शाबू
वासाचो शाबू
वाटकुळो शाबू
सुळसुळीत शाबू
आई म्हाका न्हाणयतना
शाबू सकयल पडटा
हांवें हातान काडल्यार
सुळ्ळ करून सुट्टा

## ९४... म्हजी सत्री

सत्री म्हजी सत्री
तांबडी धवी जांबळी
हातांत हांवें धरली
भूर्र करून फुलयली
दीदी म्हजी आयली
पावसांत आमी गेलीं
सत्री घेवन भोंवलीं
परत घरा आयलीं

## ९५... सत्री

सांतेक वचून बाबान
सत्री हाडून दिली
पावसांत हांवें व्हेली
वाऱ्यान हुबून गेली
धावून वचून बाबान
परत हाडून दिली
सत्री म्हजी सत्री
सत्री म्हजी सत्री

## ९६... आजयेचो बोटवो

आजयेच्या बोटव्यांत
खुळू खुळू पयशे
घट घट सुपारेचे
कुटू कुटू कुडके
आजयेच्या बोटव्यांत
खावचीं पानां
आजयेचो बोटवो
कोणाक मेळना

## ९७... पेटी - तबलें

वाज गे पेटये
सारेगम सारेगम
वाज गो तबल्या
ताक धीन ताक धीन
वाज रे चाळा
छळ छळ छळ छळ
गायतां हांव
ललल ललल

## ९८... जोतें

नवें नवें जोतें
बाबान म्हाका हाडलें
नवें जोतें घालून
शाळेंत हांव गेलें
धांवून धांवून गेलें
जोतें म्हजें तुटलें
परत घरा हाडलें
सारकें करून घालें

## ९९... पाटी

काळी काळी पाटी
धवी धवी काडी
काडी हातांत धरची
अआ ईई काडची
काळी काळी पाटी
धवी धवी काडी

## १००... पाटी

म्हाका हाडल्या पाटी नवी
हांव बरयतां अ आ इ
सान पाटी काळी पाटी
तिचेर बरयतां अ आ इ
धवे काडयेन, लांब काडयेन
पाटयेर बरयतां अ आ इ

## १०१... कापूस

सांवरीचो कापूस
खंय खंय हुबलो
वाऱ्यावांगडा धांवलो
म्हज्या माथ्यार बसलो
मोव मोव कापूस
म्हज्या हाताक लागलो
हांगा थंय हांगा थंय
म्हज्यावांगडा नाचलो

## १०२... वखद

आजो खांकलो
हांव शिंकलों
अम्मा आयली धांवन
गुळी दिली
वखद दिलें
थंडी गेली धांवन

## १०३...पेन

पप्पालागीं पेन आसा
तांबडें निळें पेन आसा
पापा म्हाका पेन जाय
तांबडें निळें पेन जाय
हांवूय पेनान बरयतलों
पप्पावरी बरयतलों

## १०४... मेज मांडलां

वाटी कुलेर पेलो ताट
आईन मेजार मांडलां
जेवणाक आसात गोडशीं चार
बाबू जेवणाक बसला

## १०५... जनावरांची बसका

भों भों कुतू आयलो
हूप हूप माकड आयलें
डरांव डरांव बेबो आयलो
म्यांव म्यांव बुकलो आयलो
उडकी मारून सोंसो आयलो
लिपत लिपत कोलो आयलो
धावत धावत हरण आयलें
वेगीन वेगीन वांस्वेल आयलें
सगळीं जाणा जमलीं
मांडार बसका भरली

## १०६... कोंबो

कोंबो आमचो कोंबो
कोंक कोंक कोंबो
फांत्यापारार साद घालून
जागयता आमकां कोंबो
कोंबो आमचो कोंबो
कोंक कोंक कोंबो
तांबडें शेंकरें माथ्याक माळून
झेतान भोंवता कोंबो
कोंबो आमचो कोंबो
कोंक कोंक कोंबो
धरूंक गेल्यार
पयस पयस
धावन वता कोंबो

## १०७... कोंबो

फांतोड जाली
कोंबो उठलो
म्हणूंक लागलो
कोकोंच कों रे कोकोंच कों
साद घालो
म्हणूंक लागलो
कोकोंच कों रे कोकोंच कों

## १०८... कोंबी आनी पिलां

फुडें चलता कोंबी
फाटल्यान पिलां धाकलीं
उजव्या पांयान उस्तिता
दाव्या पांयान उस्तिता
भाता गोटे आनी किडे
उस्तून उसतून पिलांक दिता

## १०९... शेवणे

इल्लेंशें शेवणे
घरामुखार आयलें
खांदयेर बसलें
उडत रावलें
इल्लेंशें शेवणे
सदांच येता
खांदयेर बसता
उडत रावता

## ११०... शेवणीं

सकाळीं शेवणे गायलें
की की कीं   की की कीं
हांवे ताका
दिली चाकी दिली चाकी
    दनपारां शेवणे गायलें
    टी टी ट्यावंक  टी टी ट्यावंक
    हांवें ताका
    दिलें खावंक दिलें खावंक
साजेवेळा एक शेवणे गायलें
पी पी पी    पी पी पी
हांवें ताका
दिली पापी दिली पापी

## १११... इल्लेंशें शेवणे

इल्लेंशें शेवणे
इल्लेंशें शेवणे
इटकुलें शेवणे
पिटकुलें शेवणे
    इल्लेंशें शेवणे
    दारामुखार आयलें
    आमच्या बाबुल्याक
    पळयत रावलें
बाबुलो हांसलो
शेवणे हांसलें
खोशी जावन तें
भूर उडलें
    इल्लेंशें शेवणे
    इल्लेंशें शेवणे
    इटकुलें शेवणे
    पिटकुलें शेवणे

## ११२... कावळ्या कावळ्या

कावळ्या कावळ्या कांव
खंयचो तुजो गांव
कितें तुजें नांव
कितले तुका भाव
आमगेर येवन राव
दोगूय चणे खांव

## ११३... कावळे आयले

कावळे आयले
आंगणांत बसले
बायून तांकां
खाण दिलें
    कावळे आयले
    आंगणांत बसले
    खाण खावन
    उडून गेले

## ११४... कावळे

का का कावळो
काकेत आयलो
भाकरी ताका दिली
भाकरी घेवन उडलो
सगळ्यांक ताणें आपयले
सगळे कावळे आयले
का का का करून
खावन उडून गेले

## ११५... कावळो

काव काव काव
वचूं नाका राव
शीत आमी जेवया
मेमें तोंडाक लावया
काव काव काव
तुका दितां पाव
पाव आमी खावया
काव कांव गावया

## ११६... कडी

शाणुल्या शाणुल्या
चोय चोय
कावळ्यान व्हेंली
सोय सोय
सोयेची कडी
करतलो
फाल्यां घेवन
येतलो

## ११७... कावळो

कावळ्याकाका कावळ्याकाका
फांत्यापारार का का करता
उठ रे बाळा उठ रे बाळा
कावळो म्हाका उलो मारता
खावंक ताका उडयत जाल्यार
कावळो काका धांवून येता
सगळ्या कावळ्यांक आपोवन हाडटा

## ११८... कावळीणमांय

जनेला मुखार
कावळीणमांय
करमले रूखार
खांदयेर रावता
केन्ना केन्ना
जनेलार येता
म्हजेलागीं भोबो
मागून घेता
भोबो घेवन
घोटेरांत वता
व्हरून पिलांक
खावंक दिता

## ११९... आश्टो दिश्टो

आश्टो दिश्टो
कावळो दिश्टो
कावळो उडलो
काव काव
कावळ्याफाटल्यान
धांव धांव
आश्टो दिश्टो
माजर दिश्टो
माजरान केलें
म्यांव म्यांव
माजरा फाटल्यान
धांव धांव

## १२०... खाऊ दितां

म्यांव यो
कुतू यो
काक्या यो
खाऊ दितां
खावंक यो

## १२१... कीर

पाचव्या पाचव्या रंगाचो
तांबडे तांबडे चोंचीचो
आमचो कीर येतलो
मिरसांगो खातलो
चिकू पेरां खातलो

## १२२... कीर कीर कीरा

यो रे यो रे किरा
कीर कीर कीरा
अम्मा ना घरा
तरी दितां पेरां
यो रे यो रे किरा
कीर कीर किरा
खा गोड पेरां
उडून वच घरा

## १२३... कीर

कीर म्हजो मोगाचो
पाचव्या पाचव्या रंगाचो
तांबडे तांबडे चोंचीचो
कीर म्हजो मोगाचो
किराक हांवें चिकू दिलो
चिकू खावन खोशी जालो
गोड गोड उलोवंक लागलो
कीर म्हजो मोगाचो

## १२४... पांदऱ्यांतलो कीर

पांदऱ्यांत कीर फडफडटा
भायर येवंक धडपडटा
सोड ताका आंगणांत
वचूं दी ताका रानांत
जाय थंय भोवूं दी
जाय तसो उडूं दी

## १२५... कीर

ऊड ऊड किरा
उडून वच
उडून वच
        पांदऱ्यांतलो उडून
        रूखार बस
        रूखार बस
पांदऱ्याचें दार
काडटां हांव
काडटां हांव
        रूखारूखाचेर
        उडत राव
        उडत राव
भायर आसात
झाडां दाट
झाडां दाट
        इश्ट तुजे
        पळयतात वाट
        पळयतात वाट

## १२६... पारवो

पारव्या  मामा
पारव्या मामा
शेंतांत कित्याक भोंवता ?
        शेतांत तुमच्या
        भोंवन हांव
        रोव आयल्यार चोयतां

## १२७... पारवे

गुटर घूं गुटर घूं
पारवे उडून आयले
        गुटर घूं गुटर घूं
        पांखटे हालयत आयले
कुटूक कुटूक कुटूक कुटूक
भात खावन गेले

## १२८... पारवो

पारव्यामामा पारव्यामामा
शेतांत कित्याक भोंवता ?
धरूंक तुका गेलों जाल्यार
उडून कित्याक वता ?
        पापान म्हज्या सांतेक वचून
        रूचीक लाडू हाडला
        आईन म्हजे खावंच्याक म्हाका
        बशेंत गोडू वाडला
लाडू गोडू तुकाच दितां
बेगीन बेगीन यो
लाडू गोडू तुकाच दितां
उडून उडून यो

## १२९... पारवे

पारव्यानो पारव्यानो आंगणांत येयात रे
पारव्यानो पारव्यानो आंगणांत येयात रे
पारव्यानो पारव्यानो सोप्यार बसात रे
पारव्यानो पारव्यानो सोप्यार बसात रे
पारव्यानो पारव्यानो भात खायात रे
पारव्यानो पारव्यानो भात खायात रे
पारव्यानो पारव्यानो गंव खायात रे
पारव्यानो पारव्यानो गंव खायात रे

## १३०... कोगूळ

कुहू कुहू कुहू
कोगूळ गायता कुहू
आंब्यारूखार बसून
कोगूळ गायता कुहू
आंबे खावपाक आपयता
कुहू कुहू कुहू
खांदयेर उडत म्हणटा
कुहू कुहू कुहू

## १३१... कोगूळ

आंब्याबागेंत लिपून लिपून
कुहू कुहू उलो मारता
कित्याक कोगळा लजेता ?
कित्याक कोगळा लजेता ?
कोगळा कोगळा यो यो
आमच्यावांगडा गावंक यो
तुजेसंगी गावं आमी
कोगळा आतां भायर यो

## १३२... गिरबुजी

गीर गीर गिरबुजें
भूर उडून आयलें
गीर गीर गिरबुजेक
बायून चणे दिले
गीर गीर गिरबुजेन
कुडू कुडू खाले
गीर गीर गिरबुजें
भूर उडून गेलें

## १३३... टीटीट्यांव

टियांव करता टीटीट्यांव
आमगेर यो रे टीटीट्यांव
दनपारां यो रे टीटीट्यांव
आमी दोगूय मेळून खांव
सांजेर यो रे टीटीट्यांव
तुजेवांगडा खेळटलों हांव
टियांव टियांव टीटीट्यांव
आमगेर यो रे टीटीट्यांव

## १३४... मोरा मोरा

मोरा मोरा
नाच रे मोरा
नाच रे मोरा
नाच नाच
    पावसा धोणू
    दिसता मळबार
    नाच रे मोरा
    नाच नाच
मोरा मोरा
नाच रे मोरा
नाच रे मोरा
नाच नाच
    तुज्यावांगडा
    हांवूंय नाचतां
    नाच रे मोरा
    नाच नाच

## १३५.. नाच रे मोरा नाच

नाच रे मोरा नाच
पांखां फुलोवन नाच
    वारो सुटतलो
    पावस येतलो
नाच रे मोरा नाच
पांखां फुलोवन नाच
    मामा येतलो
    खावंक दितलो
नाच रे मोरा नाच
पांखां फुलोवन नाच

## १३६... धवी धवी बळार

धवी धवी बळार
उबी एका पांयार
नुस्तें पळोवन सामकार
मातशी सरली मुखार
मारली चोंच नुस्त्यार
नुस्तें हाडलें कांठार
चोंच उगडली नेटान
नुस्तें पडलें उदकांत
धवी धवी बळार
उबी एका पांयार

## १३७... बदक

बदका बदका
कितलें बरें पेंवता
तळ्यांतल्या उदकार
काय बरें सोबता

बदका बदका
सकाळच्या पारार
हाडून दियशी
साळकां म्हाका ?

## १३८... बिरमुटी

भीर भीर करीत
बिरमुटी उडली

तर तर करीत
वयर वयर गेली

सर सर करीत
सकयल आयली

फर फर करीत
फुलार बसली

## १३९... फुलपांखे

हळदुवें पांखे
निळे पांखे
धवे पांखे
तांबडे पांखे
फुलार पांखे
पानार पांखे
फुलाफुलार
फुलपांखे

## १४०... फुलपाकुलें

तांबडे धवें फुलपाकुलें
बायच्या माथ्यार बसलें

काळें निळें फुलपाकुलें
बायच्या हातार बसलें

पाचवें हळदुवें फुलपाकुलें
बायच्या खांदार बसलें

## १४१... पाकुलें

सान सानुलें
सान पाकुलें
सदांच येतालें
धवें काळें आंग ताचें
बरेंच सोबतालें

पाकुलें येतालें
नाच नाचतालें
नाच ताचो पळोवन
बाय हांसतालें

## १४२... फुलपाकुलें

रंगरंगयाळें फुलपाकुलें
उडत उडत आयलें
बाय धरूंक गेलें
फाटल्यान धांवत रावलें
हुशार शिटूक पाकुलें
दुसऱ्या झाडार बसलें

## १४३... काजुलो

काजुल्या रे काजुल्या
सादया भोळ्या काजुल्या
काळखे रातीं पेटोवंक वाती
कोणे तुका शक्त दिल्या?

## १४४... घुंगुल्लो

घूं घूं करीत
घुंगुल्लो आयलो
फुला फुलांचेर
वचून बसलो
पांखां हालयत
परतून उठलो
घूं घूं करीत
उडून गेलो

## १४५... बेबकां

बेबकां करतात
डरांव डरांव
पावस म्हणटा
येतलो हांव
पावस येवं दी
धांवन धांवन
खळयेंत उदक
येवं दी व्हावन
उदकांत सोडुंया
कागदा व्हडीं
बेबकां वचूं दी
पलतडीं

## १४६... पाल

चूक चूक चूक चूक
पाल चुकचुकता
हे वणटीर ते वणटीर
पळय कशी धांवता
सांग गो आका
सांग गो म्हाका
वणटीक कशी ती
धरून रावता?

## १४७... जल्लो

पळय गे आई
आयला मगे जल्लो
पळोवन ताका हांव
सामको मगे भिलो
　　　　दाराफाटसून आयलो
　　　　मेजाखाचीक धावलो
　　　　पळोवन ताका हांव
　　　　सामको मगे भिलो
तुरू तुरू धांवलो
वणटीर मगे चडलो
पळोवन ताका हांव
वोगिच मगे भिलो

## १४८... पणटे भोंवतणी पिसोळीं

एक दीस आमची लायट गेली
आमी काळखांत उरलीं
भितरसाकून मम्मीन म्हजे
पणटी पेटोवन हाडली
　　　　रास रास पिसोळीं
　　　　उजवाडाक आयलीं
　　　　घुंवून घुंवून नाचून नाचून
　　　　पणटे भोंवतणी खेळ्ळीं

## १४९... घोंटेर

झाडावयलो घोंटेर
धोल धोलता
घोंटेरांतलीं पिलां
चींव चींव करतात
चींव चींव करून
आवयक आपयतात

## १५०... घरां

शेवणें रावता घोंटेरांत
कोलो रावता रानांत
कोंबी रावता घुडांत
गाय रावता गोठ्यांत
माजर आमच्या घरांत

## १५१... कापडयो

कापडयो निसरून पडलो
सरसर वयर चडलो
झरझर जाळें विणलें
कापडयाचें घर रंगलें

## १५२... वागमूय

मूय मूय
काळी मूय
मूय मूय
वागमूय
म्हणटात तिका
वागमूय
पूण चाबना
वागमूय
मूय मूय
काळी मूय
मूय मूय
वागमूय

## १५३... खंय वता?

मुये मुये खंय वता?
साखरे कण मेळटा काय
सोदून हांव पळयतां
म्होंवा मुसा खंय वता?
फुलांभितर म्होंवा थेंबो
मेळटा काय पळयतां
चानये चानये खंय वता?
अमुरपिकें तोर रूखार
आसा काय पळयतां

## १५४... चानये चानये

चानये चानये
सकयल यो
सोप्यार आमच्या बस
चानये चानये
घरांत यो
चणे खावन वच

## १५५... चानये चानये

चानये चानये
फाटीर तुजे पाट
शेंपडेक तुजे
गोंड्याचो थाट
झाडार चडपाक
दाखय म्हाका वाट
मागीर हांव
धरतां तुजी फाट

## १५६... चानी

मिनू आमची चानी
आंब्यारूखार चडली
आंब्यारूखार चडून
गोड आंबली खाली
आंबली सकयल पडली
चानीय सकयल पडली
चानी उठून धांवली
परतून रूखार चडली

## १५७... बिलूबाय

बिलूबाय
बिलूबाय
म्हजो जेवंचो
वेळ जाला
हुंदराफाटल्यान
धांवू नाका
शिता उंडी
दितां तुका

## १५८... बिलू

बिलू बिलू माजरा
वचूं नाका शेजारा
शेजान्न रागार जाल्यार
घालशी आमकां बेजारा

## १५९... बिलूबाय

बिलूबाय बिलूंबाय
बिलून खाली साय
बिलू गेलां दाराआड
चल सोदून काड
कुतूबाब कुतूबाब
कुतून हाडलां हाड
कुतू गेला खोंपीआड
चल सोदून काड
खेतेंबाय खेतेंबाय
केळीं ताका जाय
खेतें गेलां केळम्याआड
चल सोदून काड

## १६०... बुकलो

बुकल्या बुकल्या
चोयता कितें
जाणा हांव
तुका जाय कितें
दूद पिवंक
आवंडेता तूं
नुस्त्या कुडक्याक
आशेता तूं
राव मातसो
पळय वाट
मेळटलें तुका
दूद दाट

## १६१... मेमें

आतें आयलें
आतें आयलें
आत्यान म्हाका
मेमें हाडलें
आईन म्हाका
तळून दिलें
हांवें तें
रूचीन खालें

## १६२... कुतू

कुतूचे आमच्या
वरशे कान
तोंड ल्हान
हालयता मान
कुतू आमकां
हात दिता
वळखीचो आयल्यार
शेंपडी हालयता

## १६३... माकड

हूप हूप हूप हूप
माकड चडलो माडार
आडसर फोडून खांवच्या वेळार
आडसर पडलें घुडार
होय होय होय होय
आईन हाडली बडी
माडावयल्यान माकडान भियेवन
घरार मारली उडी

## १६४... सोसो

असो कसो सोसो
मोव मोव धवो धवो
कापूस कसो
लांब ताचे कान
ताठ उबे रावतात
पडल्यार लेगीत पान

## १६५... सोशा पिला

सोशा सोशा
आंग तुजें
धवें कशें
दुदांत बुडून आयलो?
सोशा सोशा
ओंठ तुजे
तांबडे कशे
पान खावन आयलो?

## १६६... सोसो

एक आसलो सोसो
भिजूड कसो
हरयाळेर नाचलो
असो असो
एकदां कितें जालें
रानांत सुटलें वारें
सोशेबाबान म्हणलें
घरा गेल्यार बरें
सट् करून तकलेर
पडलें एक पान
धांवत सुटलो
सगळें रान

## १६७... बोकडेचें गीत

पेटी वाजयता सुण्यापेटो
बुकलो वाजयता तबलें
तंबोरो घेवन बसल्या बोकडी
गायता गीत आपलें
सोशान घेतला ताळ
साथ करता खेतें
गायन रंगलां भोव बरें
आयकूंक आयल्यात जायते

## १६८... हुंदीरमामा

हुंदीरमामा हुंदीरमामा
अशें कित्याक करता ?
नाल्लाचें वळें खरवडटा
आलमारीफाटल्यान धडपडटा
फळयेर चडून खुडखुडटा
आयदन उडोवन लुडबुडटा
मियांव आयकून भियेता
तुरूतुरू पळून वता

## १६९... गाय

मोटव्या शिंगांची
आमची गाय
पाचवें तण
तिका जाय
हांबेवन हांबेवन
पाडकाक आपयता
मायेन दूद
ताका पाजता
पियेवन दूद
पाडूक आमचें
मस्त बऱ्यो
उडक्यो मारता

## १७०... गाय आनी पाडूक

गाय आमची हांबेली
पाडूक धांवून आयलें
गायेन ताका ल्हेंवलें
दूद ताका दिलें
दूद पिलें खोशी जालें
पाडूक धांवून गेलें

## १७१... आमची गाय

हामा आमची गाय
दूद गोड गोड दिता
पिवंक गोड गोड लागता
म्हणटा आमचें बाय
दुदावयली साय
बायक आमच्या जाय
बाय खाता साय
हामा आमची गाय

## १७२... आमची गाय

तांबुली आमची गाय
तांबुली आमची गाय
तण घालता पाय
दूद काडटा मांय
दूद आमकां जाय
दूद आमकां जाय
दूद हांव पियेतां
भयणीकूय दितां
घट मूट जातां
शाळेक हांव वतां

## १७३... हती

आमच्या आंगणांत
हती आयलो
बाबू ताका
पळयत रावलो
हतयाचे दोळे
ल्हान ल्हान
हतयाची सोंड
लांब लांब
सोंडयेर आसलो झेलो
बाबूच्या गळ्यांत घालो

## १७४... हांव कोण?

चिकी चींव चिकी चींव
रूखाखांदयार धांवता हांव
चिकू आसल्यार खातां हांव
चानी म्हजें नांव
गुइं गुइं गुइं गुइं
फुलां सोदूंक भोंवता गांव
काडून हाडटां तांतलें म्होंव
भोंवरो म्हजें नांव
कुहू कुहू कुहू कुहू
सोबीत गायन गायतां हांव
पानाफाटल्यान लिपून रावतां
कोगूळ म्हजें नांव

## १७५... उमाणें

कान ताचे व्हडले व्हडले
दोळे ताचे इल्ले इल्ले
सोंड ताची व्हडली व्हडली
शेंपडी ताची इल्ली इल्ली
सांग सांग कोण कोण ?
हतीबगर दुसरो कोण ?

## १७६... वडा रूख

वडा रूख
व्हडलो रूख
खांदयेक पाळां हुमकळटात
धरून पाळां
रूखा मुळा
झोपाळ्याचो खेळ खेळटां

## १७७... रूखा

आरे, आरे रूखा
कितलो तूं बरो
फुलां दिता फळां दिता
इश्ट म्हजो खरो

## १७८... बागेंत या

या, या बागेंत या
फुलझाडां रोवया
या या बागेंत या
फुलझाडां शिंपुया
या या बागेंत या
फुलांवांगडा खेळुया

## १७९... बागेंत या

या गो बागेंत या
बागेंतलीं फुलां पुंजावया
फुलां आमी गुंथुया
फांतयो करून माळुया
सगळ्यांक फांतयो वांटुया

## १८०... फुलां

फुलकारा फुलकारा
कसलीं हाडल्यांत फुलां
जायो जुयो शेवंतीं
सुरंगां कांदळां ओवळां
फुलकान्नी फुलकान्नी
कसलीं हाडल्यांत फुलां
मोगरीं चांफीं आबोलीं
गुलाब रोजां साळकां

## १८१... सोबीत फुलां

मोगरेची कळी
सान सान सानुली
गोरी गोरी
दुदांत न्हाली
माणकुलें साळीक
तळ्यांत रावता
उदकार धोलता
सोबीत दिसता
रोजाचें फूल
काय बरें रूप
गुबगुबीत आंगान
पाकळ्यो खूब

## १८२... फुलांचें पोरसूं

फुलां फुलां
झाडार फुलां
तांबडीं फुलां
धवीं फुलां
निळीं फुलां
हळदुवीं फुलां
सान फुलां
व्हड फुलां
लांब फुलां
गोल फुलां
फुलल्यां पोरसांत
फुलांच फुलां

## १८३... फुलां फांतयो

जायांचे केल्यात पोड
सुरंगाचे केल्यात वळसर
मोगऱ्यांची केल्या आटी
रोजांची केल्या फांती
जायांचे पोड ताईक
सुरंगा वळसर आईक
मोगऱ्यां आटी म्हाका
रोजां फांती तुका

## १८४... पणसा घरे

आई आई पणस दी
पणस कातरून घरे दी
हांव घरे खातलों
सगळ्या लोकांक दितलों

## १८५... पणस

झाडार पणस पिकला
सगळ्याक घमघम सुटला
काकान पणस काडलो
आजयेन तो फोडलो
भांगरा कोरा घरे
दिसता पळय बरे
हांवें खालो घरो
रूचीक लागलो बरो

## १८६... आंवाळे कुवाळे

उंच उंच रूखार
ल्हान ल्हान आंवाळे
लांब लांब वालीर
व्हड व्हड कुवाळे

## १८७... काळींग

मम्मी हाड
काळींग हाड
व्हडलें व्हडलें
काळींग हाड
तांबडो गरोप
हांव खातलें
पाचवी साल
गायेक दितलें
मम्मी म्हाका
काळींग हाड
काळींग हाड

## १८८... बोरां

आमचे बोरीचीं बोरां
पिकून पिकून झडटात
एक एक पडून
जमीन सगळी भरता
दिनू मोनू शाणू
बोरां खावंक येतात
जाय तितलीं खावन
बोल्सां भरून व्हरतात
बोरी मुळांत कांटे
कुच्च करून तोपतात
कांटे जरी तोपले
तरी बोरां खातात.

## १८९... पुंजायलीं

आंगणांत शिंपडलीं ओवळां
आवयन पुंजावन व्हेलीं
बोरीमुळांत शिंपडलीं बोरां
हांवें पुंजावन व्हेलीं
मळबार शिंपडली नखेत्रां
चंद्रिमान पुंजावन व्हेलीं

## १९०... पेरां

पोरसांतले पेरीक
पाचवीं पाचवीं पेरां
लांब लांब तेकडेन
उडयलीं सकयल पेरां
पिक्या पिक्या पेरांची
पेरीमुळांत रास
हांव खातां तूं खा
पेरां खावन हांस

## १९१...आंबाडो

झेम झेम झेमाडो
म्हज्या दारांत आंबाडो
आंबाड्याचो आंबाडो
लांबसोच लांबोडो
आंबटोसो आंबाडो
झेम झेम झेमाडो

## १९२... कुळागर

म्हज्या मामालें घर
घराफाटल्यान कुळागर
कुळागरांत करमलां
पाटाचेकडेन बिमलां
पणमार लागल्यांत पणसुलां
भिंडीर तांवडीं भिंडुलां
माडयेर सोवतात काय बऱ्यो
तांवड्यो तांवड्यो सुपाऱ्यो

## १९३... लाट

बांयचेर लाट चलता
कूंय कूंय कूंय
पाटांतल्यान उदक व्हांवता
झूंय झूंय झूंय
उदकांत भिजून जमीन जाता
मोव मोव मोव
झाडां दितात फळां
भोव भोव भोव

## १९४... एकापरस एक लांब

मिरसांग म्हणटा हांव लांब
म्हजेपरस भेंडो लांब
भेंडो म्हणटा हांव लांब
म्हजेपरस तवशें लांब
तवशें म्हणटा हांव लांब
म्हजेपरस पडोळें लांब
लांब लांब लांब लांब
एकापरस एक लांब

## १९५... रूची

तीख तीख मिरसांग
लोणच्याक घालची
तोरट म्हसगासांग
भाजी करून खावची
गोडशें बिटरूट
सालादांत घालचें
आंबट चिंचेबोट
हुमणांत घालचें

## १९६... कारातें

कोडू कोडू कारातें
जिवाक सामकें बरें तें
आईन म्हाका सांगलां तें
तुमीलेगीत खायात तें

## १९७... नाल्ल

सोण्णाक काथो
काथ्यांत कट्टी
कट्टेंत कातली
कातलेंत उदक
गोड गोड उदक

## १९८... चुडटेच्यो वस्ती

चुडटेची मुदी बोटाक म्हज्या
चुडटेचें घड्याळ हाताक म्हज्या
चुडटेचें वक्ल दोळ्यांक म्हज्या
नेटान चलतां पळयात मजा

## १९९... घुमचे कटर घूम

घुमचे कटर घूम
घुमचे कटर घूम
बाबा नाचता, दादा नाचता
घुमचे कटर घूम
काका नाचता, मामा नाचता
घुमचे कटर घूम
म्हाकाय नाचन दिसता
घुमचे कटर घूम
नाचूंक बरें दिसता
घुमचे कटर घूम
घुमचे कटर घूम
कटर कटर घूम
घुमचे कटर घूम

## २००... शिगमो

माकड वाजयता धोल
खेतें वाजयता तासो
शेनाय घेवन बसला
धवो धवो सोसो
कोल्यान घेतली जगांट
हुंदरान घेतलीं झांज
सगळे जमून योमेरेन
जाली तिनसांज
धोल वाजता घूम घूम
तासो वाजता कटर कटर
सावदां रानांत खेळटात
घुमचे कटर घुमचे कटर

## २०१... ढोल वाजता

ढोल वाजता
ढूम ढूम ढूम
तासो वाजता
कटर कटर
झांज वाजता
झन झन झन
आमी नाचुया
छन छन छन

## २०२... दिवाळी

दिवाळेक आमगेर
आकाशदिवो लायतात
रंगरंगयाळीं कागदां
ताचेर सोबतात
भोंवतणी पणट्यो
रांगेंत पेट्टात
ताळयो मारीत
आमी नाचतात

## २०३... फेस्त

चणे खातां कुटूकुटू
घोडो धांवता खुटू खुटू
पेपरें वाजता पें पें पें पें
भुरगीं हांसतात हें हें हें हें

## २०४... फेस्त

आमचो बावुलो फेस्ताक वयता
व्हडल्या गोंयच्या फेस्ताक वयता
ताका सूट घालात रे
ताका बूट घालात रे
ताका हॅट घालात रे
हातांत लॅंस दियात रे
आमचें बायुलें फेस्ताक वयता
व्हडल्या गोंयच्या फेस्ताक वयता
ताका खोमशी घालात रे
ताका रिबीन बांदात रे
कपलाक तिती लायात रे
पांयांक मोचे घालात रे

## २०५... या गो या

या गो या
फेस्ताक आमी या
फेस्ताक वचून
चणे हाडुया
या गो या
जात्रेक आमी या
जात्रेक वचून
खाजें हाडुया
या गो या
फेरयेक आमी या
फेरयेक वचून
खेळणीं हाडुया

## २०६... पावसा यो

पावसा पावसा
यो यो
झाड म्हजें
भिजूं दी
पावसा पावसा
यो यो
झाडाक फुलां
फुलूं दी

## २०७... पावस येता

पावस येता पावस येता
पावस येता पावस येता
म्हाका भारी खोस जाता
म्हाका भारी खोस जाता
पावस आयल्यार उदक भरता
उदक भरल्यार आंगणांत येता
हांव तेन्ना दोणी सोडटां
पावस येता पावस येता

## २०८... पावस

टप टप टप टप
पडटात पावसा थेंबे
डरांव डरांव
डरांव डरांव
करतात बेबकां बेबे
योे गो मीना
यो गो लीना
आंगणांत आमी वचुया
शिरी शिरी शिरी शिरी
पावसांत आमी भिजुया

## २०९...पावस

पावस पडलो
बेबे रडले
पावस पडलो
उदक भरलें
पावस पडलों
व्हडें केलें
पावस पडलो
व्हडें सोडलें

## २१०... पावसा पावसा

पावसा पावसा पड पड
बेब्या बेब्या रड रड
पावसा पावसा पड पड
आंगणांत उदक भर भर
पावसा पावसा पड पड
पलतडीं व्हडीं व्हर व्हर

## २११... पावस

गड गड कुपां गडगडटात
शीड शीड पावस शिडशिडटा
घस घस पावस घसघसता
आंगण सगळें उदकांत भरता
व्हडीं उदकांत सोडुया
ताळयो मारीत नाचुया

## २१२... पावस

बिरी बिरी पावसांत
भिजलीं शेतां
बिरी बिरी पावसांत
भिजलीं भाटां
सगळेकडेन
व्हावलें उदीक
सुकें उरलें ना
इल्लें सुदीक
बेबकांचीं पोरां
भायर आयलीं
अळम्याची सांतली घेवन
शाळेक चल्लीं

## २१३... व्हांवतें उदक

झरी उदक झिरपता कशें
ल्हव ल्हव ल्हव ल्हव
न्हंयचें उदक व्हांवता कशें
झूळ झूळ झूळ झूळ
घोग्या उदक पडटा कशें
घस घस घस घस

## २१४... नखेत्रां

झग मग झग मग
झग मग नखेत्रां
झग मग नखेत्रां
मळबार रावतात
झग मग नखेत्रां
मळबार रावतात
मळबार रावून
सकयल पळयतात
झग मग नखेत्रां
सकयल पळयतात
म्हाका पळोवन
हांस हांसतात

## २१५... नखेत्रां

लिकलीक लिकलीक
लिकलिकतात
मळबांत नखेत्रां
लिकलिकतात
चकचक चकचक
चकचकता
मजगतीं चंद्रीम
चकचकता
चंद्रीम मळबांत
आसा एकलो
नखेत्रां आसात
कितलीं ?
नखेत्रां मळबांत
लिकलिकतात
मेजूंक येनात
तितलीं

## २१६... चंदामामा

चंदामामा चंदामामा
खंयसावन येता
दिसाचो कित्याक दिसना
रातचोच कित्याक दिसता ?
म्हाका पळोवन हांसता
म्हजेलागीं उलयता
मोडांभितर लिपता
भायर येवन नाचता

## २१७... चंद्रीम

सांज जाली चान्ने आयलें
आंगणांत रे
नखेत्रां भरलीं भरलीं पळय
मळबांत रे
चंद्रीम गोमटो गोमटो गोरो
दिसता रे
रूखाआड कसो कसो
लिपता रे
मोडाचे संगती संगती कसो
खेळटा रे
हांव तुजे संगे खेळपाक
येतां रे

## २१८... चंदामामा

चंदामामा चंदामाम
चंद चंदामामा
आपालिपा खेळटा कुपांत
चंद चंदामामा
धांवलों जाल्यार धांवता कित्याक
चंद चंदामामा
रावलों जाल्यार रावता कित्याक
चंद चंदामामा
सकयल यो तूं, पापी दी तूं
चंद चंदामामा
आपालिपा खेळपाक यो तूं
चंद चंदामामा

## २१९... चंदामामा

अम्मा अम्मा चंदामाम पळय
मळबांत कसो धांवता पळय
दोळ्यांक दिसता धरपाक मेळना
कसो मोडांतल्यान पळटा पळय
चंद्राली आम्मा खंय आसा
जेवणाक कोण दिता ताका
उलोवपाक येना कित्याक ताका
सांग गे सांग गे अम्मा म्हाका
खेळपाक तो जाय म्हाका
आपय ताका हांगा आतां
दूद साखर दिता ताका
अम्मा अम्मा जाय तो म्हाका

## २२०... दर्यावेळ

दर्यावेळेर वचुया
उदकांत पांय बुडोवया
भांगरा रेंवेर बसुया
ल्हारां आमी मेजुया
ल्हारार ल्हार ल्हारार ल्हार
ल्हारार ल्हार ल्हारार ल्हार

## २२१... वाऱ्या यो

वाऱ्या वाऱ्या यो यो
चाफ्याझाडार यो यो
चाफ्याचें झाड हालूं दी
चाफीं आंगणांत पडूं दी
वाऱ्या वाऱ्या यो यो
ओंवळीझाडार यो यो
ओंवळीझाड हालूं दी
ओंवळां व्हटयेंत पडूं दी

## २२२... वाऱ्या वाऱ्या

वाऱ्या वाऱ्या
खंय आसा तूं?
आंगांक लागून
खंय वता तूं?
दोळ्यांक दिसना
कसो तूं?
वाऱ्या वाऱ्या
खंय आसा तूं?
धरपाक मेळना
कसो तूं?
वाऱ्या वाऱ्या
खंय आसा तूं?

## २२३... वारें आयलें

वारें आयलें वारे आयलें
वारें आयलें वारे आयलें
आंब्यारूख हालूंक लागलो
पडूंक लागले आंबे
काजूरूख हालूंक लागलो
पडपाक लागले काजू
बोरांरूख हालूंक लागलो
पडूंक लागलीं बोरां
वेंचलीं आंबे काजू बोरां
घेवन आमी गेलीं घरा

## २२४... सायकल

किणी किणी किणी किणी
सायकल घेवन येता दादा
किणी किणी किणी किणी
फुडें फाटीं व्हडलीं रोदां
किणी किणी कांपीण वाजता
झिगी मिगी आरसो दिसता
पेदाल दादा घुंवडायता
सायकल नेटान धांवडायता
सायकलीर म्हाका बसय दादा
पयस म्हाका व्हर दादा

## २२५... सायकल

सायकल म्हजी सायकल
तीन रोदांची सायकल
तिका आसा कांपीण
वाजता बरी ट्रींग ट्रींग
चलयता हांव सायकल
फाटल्यान बसता मायकल
सायकल म्हजी सायकल
तीन रोदांची सायकल

## २२६... चाकां

आपालागीं सायकल आसा
दोन चाकांची
दीदीलागीं सायकल आसा
दोन चाकांची
म्हजेलागीं सायकल आसा
तीन चाकांची
मामालागीं मोटार आसा
चार चाकांची
काकालागीं मोटार आसा
चार चाकांची

## २२७... मामाली गाडी

ही री री री
हातांत बडी
घड घड घड घड
बैलांगाडी
मामाल्या घराची
वाट तांबडी
घड घड घड घड
मामाली गाडी
गाडयेंत बसल्यांत
मामा मामी
तांच्यावांगडा
बसलीं आमीं

## २२८... बैलांगाडी

गडक बडक गडक बडक
आयली गाडी बैलांगाडी
भातेणाचे भरे घेवन
आयली गाडी बैलांगाडी
व्हडलीं व्हडलीं रोदां दोन
आयली गाडी बैलांगाडी
धवे धवे बैल दोन
आयली गाडी बैलांगाडी

## २२९... स्कूल बस

पों पों पों पों
स्कूल बस येता
पों पों पों पों
स्कूल बस थारता
सीता गीता रीटा नीता
बसीर चडून बसतात
गूर्र गूर्र गूर्र गूर्र
बस सुरू जाता
पों पों पों पों
स्कूल बस वता

## २३०... झूक झूक गाडी

झूक झूक गाडयेंत बसुया
आजाल्या घरा वचुया
आंबे पणस खावुया
आंगणांत खेळ खेळुया
झुक झुक गाडयेंत बसुया
आजाल्या घरा वचुया
रूखाक झोपाळो बांदुया
जुंइ जुंइ जोई काडुया
हातांत हात मेळोवया
फुगडी आमी खेळुया

## २३१... हांव कोण

रस्त्यार धांवता
घोडो न्हय
दोन दोळे
पाडो न्हय
चार पांय
माजर न्हय
गूर्र म्हणटा
सुणें न्हय
सांगात म्हाका
सांगात म्हाका
हांव कोण
हांव कोण
तूं आसा
मोटारगाडी
तूं आसा
मोटारगाडी

## २३२... पदेर

पदेर म्हज्या भावा
हांव सांगता तुका
कांकणां उंडे
दी गा बेगीन
बाबूक आमगेल्या

## २३३... शेतकार

सकाळीं उठून
शेतांत वयता
जोत आमुडटा
हिरी हिरी
पावस पडटा
शेत रोयता
सारें मारता
फिरी फिरी
भात पिकता
शेत लुंवता
मळणी घालता
गिरी गिरी

## २३४... शेतकामती

आमी शेतकामती रे
आमी शेतकामती रे
शेतांत आमी वचुया
काम आमी करुया
आमी शेतकामती रे
आमी शेतकामती रे
बीं आमी रोवया
भात आमी पिकोवया
आमी शेतकामती रे
आमी शेतकामती रे

## २३५... शेतकार

शेतकार आमचो शेतकार
शेजारचो आमचो शेतकार
खांदार फटें
न्हेसला वालो
जोत घेवन
शेतांत चल्लो
शेत नांगरता
भात रोयता
शेतांत वावरून
भात पिकयता
शेत लुंवता
भात मळटा
भात हाडून
कुडांत भरता

## २३६... खारवी

खारव्या मामान
दर्यांत वचून
जाळ मारलें
जाळांत बांगडे मेळ्ळे
ताल्ले पेडवे मेळ्ळे
शेंवटे गोबरे मेळ्ळे

## २३७... पसरकार

पसरकारा पसरकारा
सामान जोखून दी
हांव तुका दुडू दितां
पोतयेंत घालून दी
दी रे म्हाका च्या पाले
साखर आनी गोड
दी रे तांदूळ दाळ आनी
नाल्ल एक व्हड

## २३८... तारयामामा

तारयामामा तारयामामा
ताण तुजें व्हडें
पावय म्हाका पलतडी
खावंक लग्ना वडे

## २३९... वळार

वळार आयला
व्हडली मोट
फाटीर घेवन
वळार आयला
वळाराचे मोटयेंत
आसात कांकणां
तरातरांचीं कांकणां
रंगीत रंगीत कांकणां
तांबडीं कांकणां
पाचवीं कांकणां
निळीं कांकणां
जांबळीं कांकणां

## २४०... कांकणकारा

आरे आरे कांकणकारा
कांकणां आमकां दी गा
वांटकुळींच चकचकीत
कांकणां हाताक घाल गा
कांकणां हाताक घालतना
दुखोवं नाका हात गा
नवीं नवीं काकणां सदांच
आमच्या घरा हाड गा

## २४१... पोस्टमन

हो आमचो पोस्टमन
ताचें नांव सायमन
सायमनाचो बोटवो व्हड
चिटी भरून जाला जड
सकाळ सांज येता वता
आमकां चिटी-पत्रां दिता
हो आमचो पोस्टमन
ताचें नांव सायमन

## २४२... पोस्टमन

पोस्टमन येता
पोस्टमन येता
सायकलीर बसून
पोस्टमन येता
खाकी पेंट
खाकी शर्ट
माथ्याक खाकी
तोपी आसता
खांदाक एक
आसता बोटवो
बोटव्यांत जायत्यो
आसता चिटयो
चिटी दीत
सगल्याक भोंवता
केन्नाय हाडून
पयशे दिता

## २४३... दोतोरमाम

दोतोरमाम दोतोरमाम
गोड गोड उलयता
तरी तूं वखद म्हाका
कोडू कोडू कित्याक दिता ?
दोतोरमाम दोतोरमाम
सदांच म्हाका सतायता
तरी तूं सूय तोपून
कित्याक म्हाका रडयता ?

## २४४... दोतोरकाका

दोतोरकाका दोतोरकाका
धवो कोट घालता
कानांक कितें लायता
जीब दोळे तपासता
वखद बरोवन दिता
रोखडोच बरो करता
दोतोरकाका दोतोरकाका

## २४५... दोतोर

बावलेक आयलो जोर
हाडलो हांवें दोतोर
कपलाक हात लायलो
पोटाक हात लायलो
जीब तिची पळयली
दोळे तिचे तपासले
इनेसांव काडलें
कुच्च करून तोपलें
बावली मातशी रडली
उठून मागीर बसली

## २४६... बाई

शाळेंत येता बाई
शिकयता अ आ इ
घरपाठ नेमान पळयता
पुस्तक वाचूंक लायता
चित्रां काडून दाखयता
गितां गावंक शिकयता
काणयो आमकां सांगता
खेळ आमकां शिकयता

## २४७... मोटारकार

मोटारकारा मोटार तुजी
ल्हवू ल्हवू चलय
चिंकी पिंकी झिलू फिलूक
शाळेंत व्हरून पावय
बिलू रस्त्यार आयलें जाल्यार
ब्रेक मारून थारय
सुणो बोकड कुकड माकड
सगळ्या जाणांक वाचय

## २४८... ड्रायवर

ड्रायवर आयलो
ड्रायवर आयलो
बस घेवन
ड्रायवर आयलो
भेस निळो
माथ्याक तोपी
होर्न वाजयलो
पिपींक पिंपी
बसींत आमी बसुया
पिकनिकेक वचुया
ड्रायवरमामा ड्रायवरमामा
वेळेर आमकां
भोंवडावन हाड
शार आमकां
दाखोवन हाड

## २४९... माळी

बाग आसा व्हडली
पापा थंय माळी
काम थंय करता
फुलझाडां रोयता
हांव केन्नाय वतां
फुलझाडां शिंपतां

## २५०... फळवाली

आयली आयली फळवाली
फळां विकूंक आयली
सान सान बोरां
पिकीं पिकीं पेरां
गोड गोड अनस
व्हड व्हड पणस

## २५१... पुलीस

पुलीस आयलो पुलीस आयलो
मोटारींत बसून पुलीस आयलो
आंगाक ताच्या भेस खाकी
हातांत आसा ताच्या लाठी
माथ्यार आसा निळी तोपी
पुलीस आयलो पुलीस आयलो
हांवूय पुलीस जातलों
हातांत लाठी धरतलों

## २५२... लेफ्ट रायट

माथ्यार तोपी, हातांत लाठी
आंगार कपडे खाकी
पांयांत काळे बूट
खाट खूट खाट खूट
शाणू राणू राजू बैजू
चलात फाटीं येयात फुडें
लेफ्ट रायट लेफ्ट रायट
लेफ्ट रायट लेफ्ट रायट

## २५३...गोरवां राखण्या

गोरवां राखण्या
हाड रे बेगीन
हाड रे आमची गाय
आई तुजी
वाट पळयता
म्हाका दूदू जाय

## २५४... राखणो

खेळांत आमच्या आसात गोरवां
राखणो जाला बावलो
बावलेन ताका दिल्या भुती
गोरवां घेवन चल्लो
चरव पाडकांक दितलो
भुती आपूण जेवतलो
रानांत भोवन काण्णां-चुन्नां
आमचेखातीर हाडटलो

## २५५... नर्स

येयात तुमी सगळीं गो
पडवेर आमी बसचीं गो
काकान म्हज्या खेळणी हाडल्यांत
सगळीं मेळून खेळचीं गो
बावलेक आमी नर्स करुया
धवो तिका भेस घालुया
पायांत धवे बूट घालून
माथ्याक तोपी घालची गो
नर्स आमची हुशार बरी
वखदां दिता गोड बरीं
बावलो आमचो दुयेंत जाल्यार
नर्सीक वचून सांगचें गो

## २५६... शेजारी

कोण आसात शेजारी आमचे
सांग रे बाळू सांग
सांग रे बाळू सांग
ते कसलें करतात काम
नुस्तें विकता नुस्तेकार
शेत रोयता शेतकार
कांकणां विकता कांकणकार
सामान विकता पसरकार
हे सगळे शेजारी
हे सगळे शेजारी

## २५७... एक दोन तीन

एक दोन तीन
हात तुका दीन
चार पांच स
म्हजेवांगडा बस
सात आठ णव
पाव खावया मोव

## २५८... ग म भ न

ग म भ न
अ आ इ ई
खाऊ दिता
आमकां आई
क ख भ प
उ ऊ ए ऐ
नाचतां आमी
थय थय थय थय
य र ल व
ओ औ अं अः
बाई म्हणटा
वा वा वा वा

## २५९... वाजपां

घुमटां वाजता
क ख ग घ  क ख ग घ
कासाळीं वाजता
च छ ज झ  च छ ज झ
समेळ वाजता
ट ठ ड ढ  ट ठ ड ढ
तबलें वाजता
त थ द ध  त थ द ध
पखवाज वाजता
प फ ब भ  प फ ब भ

## २६०... जल्मदीस

आयज म्हजो जल्मदीस
इश्ट आयले पंचवीस
मोर आयले पांच
तांणीं केलो नाच
पारवे आयले सात
तांणीं दिलो हात
कीर आयले तेरा
तांणीं दिलीं पेरां

## २६१... वाडदीस

आयज म्हजो वाडदीस
आयज म्हजो वाडदीस
पप्पान नवे कपडे हाडल्या
आईन बरें गोडशें केलां
हांव सगळ्यांक वांट्टलों
खूब खूब वांट्टलों
सगळे मेळून आमी
गोड गोड खातले
वाडदीसाक ... म्हज्या
मजा मजा करतले

## २६२... काणी काणी शिकाणी

काणी काणी शिकाणी
आयकत बसल्यो भयणी
भयणील्यो चार वाटल्यो
लाडू नेवऱ्यांनी थाटल्यो
सुणे आयलें खावन गेलें
लाडू नेवऱ्यो खावन गेलें
कित्याक गो सुण्या खावन गेलें?
आईन म्हाका वाडलें ना
कित्याक गे आई वाडलें ना
घर ताणे राखलें ना

## २६३... बाबूची काणी

आमचो बाबू खंय गेलो?
शेतांत गेलो
शेतांत कितें दिलें?
तण दिलें
तण कितें केलें?
गायक दिलें
गायन कितें केलें?
दूद दिलें
दूद कितें केलें?
बाबूक दिलें

## २६४... नाटक

वसऱ्यार आमच्या
नाटक चल्लां
सगळीं बसून
वसरो भल्ला
बावलो नाटकांत
राजा जाला
राणयेचें सवंग
बावलेन केलां
पड्डे सगळे
किरान हाडल्यात
न्हेसोवपाचें काम
मोरान केलां
पड्डे ओडूंक
रावला माकड
पेटी घेवन
बसला बोकड

## २६५... चिटयांपेट

रस्त्याकडेक चिटयांपेट
तांबडी तांबडी चिटयांपेट
रूंद ओठांची चिटयांपेट
लांब पोटाची चिटयांपेट
बाबा चिटी बरयता
म्हजेकडेन दिता
व्हरून त्यो हांव
चिटयांपेटेंत घालतां

## २६६... खबरांपत्र

सकाळीफुडें दीनू
खबरांपत्रां हाडटा
खबरांपत्र आंगणांत उडोवन
बेगीन बेगीन वता
आंगणांत हांव धांवता
खबरांपत्र काडटां
खबरांपत्र हाडून
बाबाक दितां
बाबा वाचता
आई वाचता
हांवूय शिकतलों
खबरांपत्र वाचतलों

## २६७... वाचपघर

वाचपघरांत
बाबा वता
वतना वांगडा
म्हाकाय व्हरता
चित्रांची पुस्तकां
काणयांचीं पुस्तकां
गितांचीं पुस्तकां
तरातरांचीं पुस्तकां

## २६८... रोवया बीं

खण खण माती
रोवया बीं
घालुया सारें
उदकूय बी
झाडां वाडटलीं
फळां पिकतलीं
दिवंया सगळ्यांक
वाटून तीं
खण खण माती
रोवया बीं

## २६९... निवळ करूया

अटर फटर
खटर कोयर
कोयरा पेटयेंत
उडोवया
घर भोंवतण
निवळ करून
लखलखीत
दवरूया

## २७०... म्हजो गांव

सुंदर म्हजो गांव
सोबीत म्हजो गांव
सुंदर म्हजो गांव
सोबीत म्हजो गांव
पांचव्याचार शेतांनी
भरला म्हजो गांव
उंच उंच माडांनी
भरला म्हजो गांव
दोंगुल्ल्या-न्हंयांनी
सोबला म्हजो गांव
दर्या-वेळांनी
सोबला म्हजो गांव
सुंदर म्हजो गांव
सोबीत म्हजो गांव
सुंदर म्हजो गांव
सोबीत म्हजो गांव

# NURSERY RHYMES IN KONKANI

Editors :
B. Shyamala Kumari
Dr. I. S. Borkar



CENTRAL INSTITUTE OF INDIAN LANGUAGES
(Ministry of Human Resource Development Govt. of India)
Manasgangotri, Mysore - 570006

&

STATE INSTITUTE OF EDUCATION
Alto Porvorim - Goa 403521

Printed at : SAMRAT PRINTERS, BANASTARIM - GOA. PH.: 287755, 395220